जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक ६ : फेब्रुवारी २०२२

● **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

● **संपादपी :**
आसावरी नायक

● **अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

● **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

● **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● **छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

● **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



मांडावळ...



**भायले चित्र** : कालिदास सातार्डेकार
**भितल्ली चित्रां** : भारत जगताप, निशीत बोरकार.

संपादकीय

# दुसरो जनमत कौल!

फेब्रुवारी म्हयन्याचो 'जागा'चो हो अंक तुमकां भेटयतनां आमकां खूप खोस भोगता. ते भायर खंतय भोगता आनी गोंयच्या फुडाराचो हुस्कोय जाता.

हो म्हयनो गोंयकारांखातीर म्हत्वाचो म्हयनो! ह्या म्हयन्याच्या १४ तारखेर सगळे गोंयकार आपलो फुडार घडोवपाचे आसात. हाचे पयलीं विधानसभा वेंचणुको जावन गेल्यो ना अशें न्हय. पूण फाटल्या कांय वर्सांनी गोंयच्या राजकारणांत जी बजबजपुरी आनी रेबड मातलां ताका जाप दिवपाची एक संद गोंयकारांक आयल्या. मतदान जातगीर फुडलीं पांच वर्सां तुमचेकडेन कोण चुकून लेगीत पळोवंचो ना. त्याखातीर गोंयकारांनी आपलो राग, आपली निवड, तिडक हे मतपेटयेंतल्यान उक्तावप गरजेचें. योग्य उमेदवाराक वेंचून हाडप म्हत्वाचें. म्हाका कित्याक पडलां? म्हज्या एका मतान कितें जातलें अशे फालतू प्रस्न तकलेंत हाडिनासतना मतदान करपाक वचूंक जाय. मतदान हो लोकशाय घटमूट करपाचो उत्सव. आयज गोंय आपल्या भकीक घालपाक खूप जाण आयल्यात जांकां गोंयांकडे कसलेंच देणेंघेणें ना. १९६७ वर्सा गोंयकारांनी गोंयची अस्मिताय वेगळी राखपाचो कौल दिल्लो. आतां गोंय गोंयकारां खातीर सांबाळून दवरपाचो वगत आयला. ही विधानसभा वेंचणूक म्हळ्यार दुसरो जनमत कौल म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

गोंयांत जावपी ह्या विधानसभा वेंचणुकांच्या फाटभुंयेर आमी मानेस्तां कडल्यान मुजरत लेख मागोवन घेतल्यात. भौ. उदयबाब भेंब्रे आनी भौ. अरुणबाब कामत हांणी गोंयच्या राजकीय परिस्थितीचें अभ्यासपुर्ण विश्लेशण केलां. तांचे आमी उपकार मानतात.

जानेवारी म्हयन्यांत दोन कोंकणी स्वाभिमानी भक्तांक दुखेस्त मरण आयलें. तांतले एक म्हळ्यार भौ. गुरुदास पै. कोंकणी बरोवप्यांक जेन्ना आपणे बरयलें तें खंय छापून हाडचें असो प्रस्न आसलो तेन्ना ताणी पुनव हें म्हयनाळें चलयलें. कोंकणी नाटकां माचयेर हाडपाक आदार दिलो. कोंकणीच्या खंयच्याक कामांक जेन्ना पयशांचो आदार जाय पडटालो तेन्ना वावुरप्यांक गुरुदासबाबांची पयली याद जाताली.

गुरुदास पै हांचे फाटोफाट डॉ. मारिया आवरोरा कुतो हांकांय मरण आयलें. मारियाबाय कोंकणी आनी इंग्लिश साहित्य विश्वाक जोडपी एक दुवो कशी वावुरताली. त्यो एक इंग्लीश साहित्यीक, शिक्षणतज्ञ आनी मुखेल म्हळ्यार एक स्वाभिमानी गोंय मोगी आनी कोंकणी मोगी. कोंकणीची राष्ट्रीय आनी अंतराष्ट्रीय पांवड्यावेली राजदूत म्हळ्यार जाता. अशा ह्या दोनूय खडेगांठ कोंकणी मोग्यांक 'जागा'चीं आर्गां.

फाटल्या डिसेंबर म्हयन्यांत आनीक एक कोंकणी साहित्यीक आनी मुंबय रावन कोंकणीचें काम करपी, म्हणींचे बादशाह भौ. मनोहरबाब धुंगट हांका मरण आयलें. तांच्यो यादी सांगतात नामनेचे कवी भौ. माधव बोरकार.

ह्याच सांगाताक ह्या आंकांत आमचीं सदचीं सदरां आसातच.

कोविड १९चो व्हेरियंट ओमायक्रॉन आनी कोविड हांचो संसर्ग परत वाडपाक लागला. हिसपाभायर. चूड दाखोवन हो म्हारू आपयला, घरांत हाडला. बेशिस्त आनी कार्यावळींची खातड. नव्या वर्साच्यो कार्यावळी. तोंडाक मास्क ना आनी गर्दी. ह्या बेधुंद कर्तुबांक आळो बसपाक जाय.

आमचे विनवणेक मान दिवन आमच्या सगळ्या लेखकांनी आपलें साहित्य वेळार धाडलें म्हण सगळ्यांचे उपकार.

***

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165

Name: JAAG MONTHLY

Bank Name: Punjab National Bank

Branch: Panaji-Goa

IFSC code: PUNB0292300

# फकत आमीच अजीब न्हय!
# अजीब दिल्लींत आसात आनी बंगालांतूय!!

**उदय भेंब्रे**



"अजीब हैं ये गोवा के लोग" हें वाक्य खूब फामाद जालां. तें गोंयकार वापरतात आनी गोंया भायलेय वापरतात. पूण आज राजकी संदर्भात तें वाक्य अर्दकुटें दिसूंक लागलां. गोंयांत जें घडटा - भोव करुन राजकी पक्षांच्या संबंदान - तें पळयतकूच दिसता, तें अर्दकुटें वाक्य आतां पूणं करुंयेता. पूर्ण करतकूच तें अशें जावं येता:

*अजीब हैं ये गोवा के लोग!*
*लेकीन उनसे अजीब हैं*
*राजनिती करनेवाले*
*गोवा के बाहरके लोग!*

हें बरयतां जानेवारीचे २० तारखेर.

विधानसभेचे वेंचणुकेक मेजून २४ दीस उरल्यात. आयचे घटकेक गोंयांत ८ राजकी पक्ष आसात. भारतीय जनता पार्टी सत्तेर आसा. काँग्रेस, महाराष्ट्रवादी गोमंतक आनी गोवा फॉर्वर्ड पार्टी विधानसभेंत विरोधी पंगडांत आसात. भाजपाक हेर सातूय पक्ष विरोध करतात. ताका वेंचणुकेंत हारोवंक जाय अशें म्हणटात. पूण सातूय जाण एकठांय येवंक नात. तांचे मदीं आयचे घटकेक तरी युती वा समजणी जावंक ना. ना म्हळ्यार, तीन युती जाल्यात. एक काँग्रेस आनी गोवा फॉर्वर्ड पार्टी हांचे मदीं; दुसरी म.गो. आनी अ.भा. तृणमूल काँग्रेस हांचे मदीं तर तिसरी राष्ट्रवादी काँग्रेस आनी शिवसेना हांचे मदीं. हे तिसरे युतीचो जैताचे नदरेन ०+०=० इतलोच प्रभाव आसतलो. उबे राविल्ल्या उमेदवारांचो बोवाळ सुरु जावपाचो आसा. रंग बदलत, माकड उडयो मारप असलीय सर्कस जातली.

आठ पक्ष वेंचणुकेंत वांटो घेतात. तांतुंतल्या सात पक्षांक आठवो पक्ष - भाजपा - नाका. पूण हे सात पक्ष एकमेकाचे आड वेंचणूक लडोवंक सोदतात ही गोंयांतल्या राजकारणांतले अपरिपक्तायेची गवाय. आपणाक जाय तशें जातलें काय विपरीत जातलें हाचो



अभ्यास तांणी करुंक ना काय तांचो हावेस वेगळोच आसा तें कळना. सात पक्षां मदीं विचारांत घेवपा सारको आसा तो गोवा फॉर्वडा वांगडा काँग्रेस पक्ष, आम आदमी पार्टी आनी म.गो. आनी अ.भा. तृणमूल हांची युती. ह्या तिगांशीं विस्कावणी करपा सारकी आसा.

**काँग्रेस**

गोंयांत सुटके उप्रांत सगल्यांत पयलीं क्रियाशील जाल्लो तो हो पक्ष. १९८० धरुन २०११ मेरेन बरींच वर्सां ह्या पक्षान सत्तेर येवन कारभार चलयलो. ओपीनियन पोल, राजभास कायदो, घटकराज्य, संविधानांचे आठवे अनुसुचींत कोंकणी भाशेचो अभाव हयो इतिहासीक घडणुको काँग्रेस सरकाराच्या कार्यकाळांत घडल्यो. २०१७ वर्सांतले वेंचणुकेक ह्या पक्षाचे १७ उमेदवार वेंचून आयले (भाजपाचे १३) विधानसभेंत तो सगल्यांत मोटो पक्ष आशिल्लो. सरकार घडोवचे खातीर राज्यपालाचें आमंत्रण ताका येवपाचें. पूण पक्षान आळसाय केली, तो घाळ रावलो. विधिमंडळ पक्षचो फुडारी वेंचून काडलो ना आनी सरकार घडोवपाक दिवपाची मागणीय केली ना. परिणामीं कांय जाणांच्या सुवार्थाचो मनोहर पर्रीकार हांणी फायदो घेतलो आनी सत्ता हातासली. काँग्रेस पक्षान हातांत आयिल्ली सत्ता वगडायली.

उपरान्त सत्ते खातीर हापापिल्ल्या १२ आमदारांनी पक्षाचो विस्वासघात केलो आनी हालीं वेंचणुकेचें वारें सुट्टकूच तीग जाणांनी पक्ष सोडलो. सध्या ह्या पक्षाचे फकत २ आमदार उरल्यात. गोंयांतल्या सगल्या ४० मतदारसंघांनी आगळें-उणें बळ आशिल्लो हो एकूच पक्ष.

गोवा फॉर्वर्ड पार्टी ह्या थळाव्या पक्षान काँग्रेस पक्षा वांगडा युती केल्या. २०१७ वर्सा ह्या पक्षाचे ३ उमेदवार वेंचून आयिल्ले. एकल्यान हालींच माकड-उडी मारल्या. ताका लागून ह्या पक्षाचें आयचें बळ २ आमदारां पुरतें आसा.

**आम आदमी पार्टी**

ह्या पक्षाक दिल्लीचो पक्ष म्हणून

वळखतात आसले तरी ताका गोंयांत वा देशांत हेर खंयूय वेंचणूक लडोवपाचो अधिकार आसा. ह्या पक्षाची सत्ता सध्या फकत दिल्ली प्रदेशांत आसा. तें राज्य न्हय आनी संघप्रदेशूच न्हय. 'नॅशनल कॅपिटल रीजन' अशें नांव ताका दिल्लें आसा. आ.आ. पार्टी दिल्लींत तिसरे खेपे सत्तेर आयल्या. शिक्षण, भलायकी आनी हेर कांय क्षेत्रांनी दिल्ली सरकारान बरें काम केलां. गोंया भायर पंजाब आनी उत्तराखंड ह्या राज्यांनीय हो पक्ष वेंचणूक लडयता.

ह्या पक्षाची राजकी-समाजीक-अर्थीक तत्वप्रणाली स्वास्थ ना. म्हणचे, तो दावो, उजवो काय मदलो तें कळना. पक्षांतर्गत लोकशायेचेर ताचो कितलो विस्वास आसा हाचोय अदमास मेळना. खंयच्याय पक्षांत जेन्ना कोणूय एक व्यक्ती 'सर्वेसर्वा' आसता तेन्ना तो एक-खांबी तंबू जाता.

गोंयांत हो पक्ष फाटलीं कांय वर्सा काम करता. लोकांच्या कांय प्रस्नां विशीं जागृत आसा आनी आंदोलनां बी करता. पूण उलयता तसो वागताच असो ना. दिल्ली सरकारान कोंकणी अकादमी स्थापन केल्या अशी घोशणा जावन बरोच तेंप जालो. पूण खरेपणीं ती स्थापन जाल्या काय कितें हे विशीं दुबाव आसा. अकादमीची समिती वा मंडळ जाहीर जावंक ना. म्हण्टकूच अकादमीन कार्य सुरु केलां काय कितें अशें विचारपाचो प्रस्नूच उप्रासना. ह्या अणभवा वयल्यान ह्या पक्षाक पोक्यो घोशणा करपाची संवय आसा अशें दिसता.

आम आदमी पार्टीन गोंयांत हाचे आदीं वेंचणुको लडयल्यात. जिल्हो परिशदेचेर ह्या पक्षाचो एक वांगडी वेंचून आयला. पूण पक्षाच्या नांवान पंच वा आमदार वेंचून येवंक ना. ह्या पक्षाचो वावर भोव करुन कांय नागरी वाठारांनी आसा, गोंयभर ना. पक्षान खूबशें दिता म्हूण सांगलां. चंद्र, सूर्य सोडल्यात हे उपकार! तें पसून सांगूंक जातालें, कारण आज मेरेन एकूय आमदार विधानसभेंत धाडूंक नाशिल्ल्या पक्षाक खात्री आसा की सत्ता मेळची ना; म्हण्टकूच कितलींय आनी कसलींय आश्वासनां दिवंक कितें जालां! चडशीं आश्वासनां 'भिके'च्या रुपांत आसात. गोंयामुखार जे मोटे आनी गंभीर प्रस्न आसात ते सुटावे करपाची आंखणी लोकां मुखार मांडूंक ना. भाजपान राजकारणांत धर्मकोल्ल हाडलां. आ. आ. पार्टीचो कल राजकारणांत जात भरसुपाचो आसुंये असो दुबाव येता.

ह्या पक्षान *'अजीब हैं ये गोवा के लोग'* हें सत्य गंभिरतायेन मतींत धरलां इतलेंच न्हय; तर 'अजीब' ह्या उतराच्या खऱ्या अर्थान भायर 'पिशे' असोय अर्थ नदरे मुखार दवरला. पिशाक पिंपळ दाखोवपाचें काम हेर खंयच्याय क्षेत्र परस राजकारणांतूच बरें जाता न्हय?

अरविंद केजरीवाल हे आ. आ. पार्टीचे 'सर्वेसर्वा' गोंयकारांक इतले पिशे समजत अशें दिसूंक नाशिल्लें. एक-दोन पसून उमेदवार वेंचून येत म्हणपाची खात्री नासतना मुख्यमंत्री कोण जातलो हें जाहीर करप ही करणी शाणेपणाची दिसना. गोंयकार पिशे आसतूच पूण केजरीवाल हांणी असलीं भुरगेपणां कित्याक करची? शाण्या आनी जापसालदार फुडाऱ्याचें हें लक्षण दिसना.

**तृणमूल कॉंग्रेस**

गोंयकारांक पिशे मानपांत हो पक्ष आ. आ. पार्टीचेय फुडें गेलां. ह्या पक्षाक पश्चिम बंगालचो पक्ष म्हूण वळखतात. त्या राज्यांत तिसरे खेपे ह्या पक्षाचें सरकार वेंचून आयलां. ममता बॅनर्जी हीं 'सर्वे सर्वा' आसात. कॉंग्रेस पक्षांतल्यान फुटून वचून वयर सरिल्लो हो पक्ष. तत्वप्रणाली वेगळी ना. ह्या पक्षान भाजपाक बरी बुद्द शिकयल्या. मोदी-शहा हांकां लजेक घाल्यात. धाडस दाखयलां. महाराजा आशिल्ले भाशेन वागपी प्रधानमंत्री नरेंद्र मोदी कडेन झूज मांडून जैत मेळयलां. ते नदरेन ममता बॅनर्जी हांची तोखणाय करची. पूण तांचो पक्ष गोंयांत जें करता तें शाणेपणाचें म्हणूंक जावचें ना.

गोंयांत ह्या पक्षाक खंयच आनी कसलीच सुवात नाशिल्ली. गोंयांत कसलीच वेंचणूक ह्या पक्षान लडयली ना. वेंचणुकेक ५ वा ६ म्हयने आसतना हो पक्ष गोंयांत आयलो. प्रचाराक आरंब केलो, 'वावुरप्यां'ची भरती केली. ल्हवू ल्हवू एक-दोन आमदार आपले पक्ष सोडून भितर सरले. होर्डिंगां, जायराती, पत्रकां हांची खातड! थोडे आयले आनी सोयरे कशे कांय दीस रावन परत गेले. वेंचणुको हे रितीन जिखूंक जाताल्यो जाल्यार राजकी पक्षांक वर्साचीं वर्सा वावर करचो पडचोच नाशिल्लो. ह्या पक्षा विशीं आनीक एक अजाप दिसता तें म्हळ्यार, प्रशांत किशोर हो तांचो सल्लागार जें मानीत आयलां तें तांणी गोंयांत पाळूंक ना. प्रशांत किशोर हांचें म्हणणें, सत्तेर आशिल्ले भारतीय जनता पार्टीक हारयतले जाल्यार विरोधी पक्षांची युती घडोवन जागे वांटून घेवप हो योग्य मार्ग न्हय. खंयच्या पक्षाचें बळ चड आसा तें पळोवन ताका हेरांनी तेंको दिवप. गोंयांत मात् हो पक्ष उरफाटेंच करता. ह्या पक्षाची वागणूक विचित्र. एके वटेन कॉंग्रेस पक्षाकडेन युती करपाची आसा म्हणटा; तर दुसरे वटेन कॉंग्रेस पक्षाचेर जाहीर टिका करप आनी त्या पक्षाचे आमदार फोडप हें चालू दवरता. असले विसंगतीक लागून तृणमूल कॉंग्रेस विस्वासाक पात्र थारना. नुस्तें, फुटबॉल, कला हें सगलें बरें आसा; पूण ताका लागून ममता बॅनर्जी गोंयकार जायनात आनी चर्चिल आलेमांव बंगाली जायनात. एक चत्राय ह्या पक्षान अवश्य धरची. उत्तर भारतांतल्या 'बाहुबली'चे चालीर गोंयांत कांय 'स्वयंबली' आसात. वेंचणुके वेळार तांकां लेबल आनी पयसो जाय आसता. वेंचून येतकूच ते 'स्वयंबली' - आपल्याच नाड्यार वेंचून आयिल्ले! असल्या 'स्वयंबलीं'चेर तृणमूल कॉंग्रेस पातयेली जाल्यार फस्तीक पडपाक वेळ लागचो ना.

**खंय चुकले?**

आम आमदी पार्टी आनी तृणमूल कॉंग्रेस हे दोनूय पक्ष चुकल्यात. खंय चुकले? गोंयांत वेंचणूक लडोवपाची इत्सा आशिल्ली म्हण्टकूच अवश्य लडोवपाची. तो तांचो अधिकार आनी तो कोणाच्यान आडावंक धरुंक जायना. पूण...

दोनूय पक्ष व्हडल्या ताळ्यान सांगतात, भाजपाक तांचो विरोध आसा आनी त्या पक्षाक सत्तेवयल्यान निखळावंक जाय. खरोच विरोध आसा? सध्याची वागणूक वेगळेंच सुचयता. गोंयांत हे पक्ष भाजपाची

मजत करुंक आयल्यात अशें दिसता. ना जाल्यार जीं मतां एकठांय हाडूंक जातात तीं ते फोडून कित्याक वडयतात? आपणाक सत्ता मेळची ना हें सुर्याच्या उजवाडा इतलें स्पश्ट आसतना ते भाजपाचो मार्ग सोपो कित्याक करतात?

हाचो अर्थ ह्या पक्षांनी काँग्रेस पक्षांत विर्गळून वच्चें आनी आपलें अस्तित्व सोंपोवचे अशें न्हय. पक्ष उरचे आनी विधानसभेंत रिगपाक जाय जाल्यार वेंचणुकूय लडोवची. तशें करपाक एक बरो मार्ग आशिल्लो; पूण तो दोनूय पक्षांनी आपणायलो ना. अतीं आत्मविस्वासान वागले आनी इल्लेंय राजकी शाणोपण दाखयलें ना.

### शाणेपणाचो मार्ग आशिल्लो

ह्या दोनूय पक्षांनी गोंयांत आपलें बळ कितलें आसा ताचो सारको अदमास घेवंक जाय आशिल्लो. हय, गोंय शेङ्ग्यांनी आनी माकडांनी भरलां हें खरें. पूण तांचें बळ कितलेंशें? तांचेर पातयेवन सत्ता मेळोवंक येता? आनी मेळ्ळीय जाल्यार ती तिगोवन दवरुंक जाल्ली म्हणपाची खात्री आसा? पैर आयलो, काल चॉकलेटी, पिपिरमिटां वांटलीं आनी आज सत्तेर बसलो अशें घडना.

काँग्रेस पक्षांत दोश आसात; कांय लोकप्रतिनिधी बेपर्वायेन वागल्यात हें खरें. घातकी लोकांक लागीं केल्ल्यान ताचें बळ कांय प्रमाणांत उणें जालां आसुंयेता. पूण ह्या पक्षाक गोंयच्या चाळीसूय मतदारसंघांनी अदीक-उणें बळ आसा. सगले मतदारसंघ ह्या पक्षाक उक्ते आसात आनी सगल्या वाठारांनी ताचें अस्तित्व आसा; जें भाजपाक ना आनी हेर खंयच्याच पक्षाकूय ना. एक गजाल खरी, फाटले वेंचणुके उप्रांत काँग्रेसचे आमदार सतरां वयल्यान दोनांचेर पावल्यात. पूण जे पक्ष सोडून गेल्यात तांचे वांगडा काँग्रेसचीं सगलीं मतां गेल्यांत अशें धरल्यार तें चुकतलें. थोडें 'स्वयंबली' आसात; पूण हेरकडेन तशें घडूंक ना. वेंचणुकेंतलीं गणितां चुकूं येतात; पूण भाजपाक विरोध करपी पक्षांमदीं गोंयांत आजूय काँग्रेस होच मोटो पक्ष आसा आनी हेर पक्षां परस ताचें बळ चड आसा.

भाजपाक परत सत्तेर येवंक दिवचे नात ह्या मता कडेन आ. आ. पार्टी आनी तृणमूल काँग्रेस हे पक्ष प्रामाणिक आशिल्ले जाल्यार काँग्रेस पक्षाचें हें स्थान तांणी वळखूंक जाय आशिल्लें. स म्हयन्यां आदीं प्रचाराक आरंब करचे आदींच तांणी काँग्रेस पक्षा कडेन संपर्क सादून प्रस्ताव दिवंक जाय आशिल्ले की 'आमी हातांत हात घालून भाजपा आड झुजुंया; तशें करतना आमकांय कांय जागे मेळचें' असल्या प्रस्तावांक प्रतिसाद दिवप आनी तांकां वांगडा घेवप हें काँग्रेस पक्षाचे नदरेनूय शाणेपणाचें थारतलें आसलें. तशें घडलें ना. तृणमूल पक्षान ते दिशेन पावल उखलें; पूण खूब उसरां. उमेदवारांच्यो वळेऱ्यो जाहीर जावंक लागतकूच, आमदारांक विकते घेवपाचें हळशिकावणें राजकारण सुरु जातकूच एकठांय येवप कठीण जाता. तेंच घडलां म्हणपाचो अणभव आज येता.

कोणाकूय दिसुंयेता, त्याच पक्षांनी काँग्रेसी बगले कित्याक येवचें? काँग्रेसीन तांचे बगले कित्याक वच्चें न्हय? काँग्रेस पक्ष त्या दोनूय पक्षां परस जाण्टो, त्या पक्षां परस चड बळ आशिल्लो आनी कितलींशींच वर्सां गोंयांत सत्तेर आशिल्लो. देखून ल्हान पक्षांनी फुडाकार घेवपाचो. पूण एका काळार भाजपान आपणायिल्ली भेश्टावपाची रीत तांणी आपणायली. म.गो. पक्ष दुबळो जाल्लो आनी भाजपाचो गोंयांत प्रवेश जाल्लो. सगल्या मतदारसंघांनी उमेदवार दवरुन म.गो.च्या उमेदवारांक वडयतले अशी भूमिका घेवन भाजपान म.गो.च्या फुडाऱ्यांक भेश्टायले. ते भियेले आनी तांणी कांय जागे भाजपाक दिले. भाजपाचे सगले उमेदवार जिखून आयले नात; पूण चार जाण विधानसभेंत पावले. भाजपाचो विधानसभेंतलो तो पयलो प्रवेश आसलो आनी म.गो. पक्ष भियेल्ल्यान तो घडूंक पावलो. तीच रीत आ. आ. पार्टी आनी तृणमूल काँग्रेस हांणी आपणायली आनी चूक केली.

### भाजपा संकश्टांत आसा

भाजपा बरीच दुबळी जाल्ली आसा आनी संकश्टांत आसा. २०१७ वर्सा लक्ष्मीकांत पार्सेकार मुख्यमंत्री आशिल्ले पूण प्रचाराचें फुडारपण करपाचें, उमेदवार थारावपाचें आनी म्हत्वाचे निर्णय घेवपाचें काम पर्रीकार हांणी केलें. अशें आसुनूय भाजपाचें बळ २१ आमदारां वयल्यान तेरांचेर देंवलें. सत्ता दुसऱ्या मार्गान मेळोवं; पूण भाजपाक देंवती लागिल्ली. ती चालूच उरली आनी डॉ. प्रमोद सावंत हांच्या काळांत भाजपाचें सरकार अपात्र आमदारांच्या धिगयांचेर चल्लें. राजकारबार बाबत जायत गेलो. भ्रश्टाचार वाडत गेलो, निर्णय चुकले, मिनाचो उद्देग, म्हादय हय़ा मुद्द्यांचेर अपेशी थारलें. आनी भूमिपुत्र विधेयकां सारक्या विशयाचेर तर सरकार फस्तीक पडलें. ताचें हांशें जालें. इतलेंच न्हय; तर भाजपाचें सरकार लोकांच्या हिताची पर्वा करिनासतना गोंय विकूंक भायर सरलां हें लोकांक बेस बरें कळ्ळें.

आरंबाचे सर्वेंतूच भाजपाच्या फुडाऱ्यांक पक्षाच्या दुबळेपणाची खरसाण कळ्ळी. तेन्ना 'रेडिमेड' आमदार पक्षांत हाडपाची तजवीज केली. जाचे कडेन जिखून येवपाची तांक आसा अशें दिसता ताका विकतो घेवपाची मांडणी केली. साळगांवचो जयेश साळगांवकार, पर्वरीचो रोहन खवंटे हे तशे तरेन भाजपांत पावले. पूण हे मांडणेचेय वायट परिणाम भाजपाचेर जाल्यात. जंय जंय थळाव्या इच्छुकांचेर अन्याय जाला थंय थंय बंडां जाल्यांत. उमेदवार जाहीर जातकूच तीं वाडटलीं हें सांगपाची गरज ना.

ह्या धोरणाक लागून भाजपाचें आनीक एक दुबळेपण उक्ताडार आयलां. तें म्हळ्यार, ह्या पक्षाक तत्वप्रणालीचें कांय पडूंक ना. सगल्यांक दारां उक्तीं! जाय एकूच - सत्ता! ते सत्ते खातीर कितेंय करपाची तयारी. निश्ठा म्हूण कांय ना. निश्ठावंत वावुरप्यांक म्हत्व ना.

भाजपाची अशी दशा जाल्ल्यान वेंचणुकेंत ताका हारोवप सोपें जालां. हें त्या पक्षाकूय कळ्ळां. भौमत मेळचें ना हें स्पश्ट जालां. देखून यत्न चल्ला तो कशेय भाशेन सगल्यांत मोटो पक्ष जावपाचो. मागीर जाय तितले शेङ्ग सवाय भितर मेळोवं येतात! हे परिस्थितींत वेंचणुकेन दिल्ली ही संद भाजपा विरोधी पक्षांनी वगडावंक फावना.

संपर्क: 9822163223

***



# जागते रहो!

**अरुण जयराम कामत**

पुर्तुगीज तेंपार गोंयात रावपी हिंदूक आपले सण- परबी मनोवपाक बंदी आशिल्ली. ते जें किदें करतात ते तांकां चोरयां वा लिपून करचें पडटालें. आजोशी, मंडूर, नेवऱ्यां ह्या वाठारांत आशिल्ल्या डोंगरे ह्या गांवच्या लोकांक शिगमो साजरो करुंक जाय आशिल्लो. त्या गांवच्या लोकांनी तकली लडयली. तांणी आपल्या शिगम्याक इंत्रूज नाव दिलें. इंत्रूज हें गोंयच्या कॅथालिक लोकांच्या परबेचे नांव, ज्या वक्तार इंत्रूज येता त्याच तेंपार शिगमोय करचो पडलो, म्हणून तांणी फाल्गुन म्हयन्यात येवपी शिगमो पौष म्हयन्यांत मनोवपाक सुरवात केली. तेन्नाच्यान फाटलीं शेकड्यांनी वर्सा, डोंगरे गावांत, पौषांतल्या तिसऱ्या शुक्रारा इंत्रुजाची सुरवात जाता आनी बुधवार मेरेन तो चलता. परब शिगम्याचीच पूण नाव मात इंत्रूज. नांवात किदें आसा? म्हणपी शेक्सपियराक सुद्धा हें नांवमहात्म्य कळ्ळ्यार तो अजाप जातलो आशिल्लो.

१९४७ वर्सा भारत देश स्वतंत्र जालो आनी जानेवारी १९५० सावन आमचो देश प्रजासत्ताक देश जालो. लोकांक मतदानाचो अधिकार मेळ्ळो. वेंचणुकेच्या माध्यमांतल्यान आपल्याक जायते सरकार वेंचून हाडपाची आमकां संद मेळ्ळी. १९५१ वर्सा भारतात पयली लोकसभा वेंचणूक जाली. १९६१ वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यात गोंय मुक्त जालें आनी ९ डिसेंबर १९६३ ह्या दिसा गोंय, दमण, दीव या संघराज्यात पयली विधानसभा वेंचणूक जाली. स. दयानंद बांदोडकर हांच्या फुडारपणाखाला महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचे सरकार स्थापन जालें आनी ९ जानेवारी १९६४ ह्या दिसा गोंय विधानसभेची पयली बसका जाली. तेन्नाच्यान दर पांच वर्सांनी (वा केन्ना मुदतीपयली) ही वेंचणूक जाता. आमी गोंयकार आपलो मताचो अधिकार वापरतात आनी आमकां जाय ते सरकार वेंचून हाडतात. राव! राव!! हाडतात अशें म्हणपाचें काय हाडटाले अशें म्हणपाचें? हाडटाले अशेंच म्हणचें पडटले. आतां आमी मतदार फकत एका दिसाचे राजा (वा राणी) उरल्यात. एकदां मत मारुन भायर आयले काय निवडून येता ते आमदार ह्या पक्षांतल्यान त्या पक्षांत उडी मारपाक मेकळे जातात आनी मतदाराक फुडली पांच वर्सां, वेंचणूक मेरेन वाट पळोवची पडटा. दर वर्सा जावपी शिगम्याभशेनच, वेंचणूक हो दर पांच वर्सांनी जावपी शिगमोच जाला. परब शिगम्याची पूण नाव मात वेंचणूक. लोकशायेचो उत्सव.

१९६३-६४ वर्सा गोंयांत जें सरकार स्थापन जालें तें गोंयकारांनी वेंचून हाडिल्लें सरकार आशिल्लें. गोंय, दमण, दीव संघराज्याची विधानसभा तीस जाग्यांची आशिल्ली. ह्या तिसांतले मगो पक्षाक चवदा जागे मेळ्ळे, युनायटेड गोवन्स (युगो) पक्षाक बारा, प्रजासमाजवादी पक्षाक दोन, काँग्रेस एक, आनी एक अपक्ष वेंचून आयिल्लो. प्रजासमाजवादी आनी अपक्षाचो तेंको मेळोवन भाऊसाहेब बांदोडकराच्या नेतृत्वाखाला मुक्त गोंयचे पयलें लोकांनी वेंचिल्ल्या सरकारान गोंयचें प्रशासन चलयलें. गोंयांत जावपी आशिल्ल्या जनमत कौलाक लागून तीन वर्सांनी ही विधानसभा (३१ डिसेंबर १९६६) बरखास्त केली आनी १९६७ जानेवारी म्हयन्यांत गोंयांत जनमत कौल जालो.

ओपिनियन पोलां उपरांत एप्रिल १९६७ त जाल्ल्या गोंयच्या दुसऱ्या विधानसभा वेंचणुकेत परत एकदां मगो पक्षाक जैत मेळ्ळें. मगोक सोळा, युगो पक्षाक बारा जाल्यार दमण आनी दीव ह्या दोन

जाग्यार दोन अपक्ष आमदारांक यश प्राप्त जालें. पुराय बहुमत मेळिल्ले भाऊसाहेब बांदोडकरांचे सरकार स्थापन जाले आनी ताणी पांच वर्सांचो आपलो कार्यकाळ पूर्ण केलो. या बहुमताच्या सरकाराक आपल्याच पक्षाच्या असंतुष्ट आमदारांच्या रागाचो वायट अणभव सोंसचो पडलो. शिरोड्या मतदार संघांतल्यान वेंचून आयिल्ले आमदार विठ्ठल करमली हांच्या दुर्दैवी मरणाक लागून त्या मतदारसंघात पोट निवडणूक जाली. मगोपचे कृष्णनाथ बाबुराव नाईक आमदार म्हणून वेंचून आयले. दोन वर्सांनी तांचे आनी भाऊंचे संबंध इबाडले. आमदार नाईक हांच्या फुडारपणाखाला मगो पक्षाच्या सात आमदारांनी भाऊ विरुद्ध बंड केलें. भाऊन सभाघरामुखार विश्वासमताचो ठराव मांडलो. भाऊच्या सुदैवान युगो पक्षांत फुट पडली. हळदोण्याचे आमदार ओर्लान्दो लोबो, कुडतरेचे रॉक बार्रेत, कळंगूटचे आमदार व्हॅलेना सिक्वेरा, बाणावलेचे इलू मिरांडा आनी कुडचड्याचे अब्दुल रझाक हांणी भाऊक तेंको दिलो आनी हें सरकार वाटावलें.

१९७२ वर्सा गोंयच्या तिसऱ्या विधानसभेखातीर वेंचणूको जाल्यो. ह्या वेंचणुकेत मगो पक्षाक पयलीं परस चड यश मेळ्ळें. मगो पक्षाक अठरा जाग्यार जैत मेळ्ळें आनी सेगीत तिसरे फावट भाऊन गोंयचो मुखेलमंत्री म्हूण सोपूत घेतलो. ऑगस्ट १९७३ भाऊक अकस्मात मरण आयलें आनी तांची धूव, दिवचल मतदारसंघाच्यो आमदार शशिकला काकोडकर मुखेलमंत्री जाल्यो.

१९७७ वर्सा श्रीमती शशिकला काकोडकर हांच्या फुडारपणाखाला वेंचणुकेंक मुखार गेल्ल्या मगो पक्षाक पंदरा जाग्यांचेर जैत फावो जाले. दमण आनी दीव हांगासून जैतिवंत जाल्ल्या दोन अपक्ष आमदारांचो तेंको मेळोवन, ताईन परत एकदा सरकार स्थापन केले. हें सरकार दोन वर्सां बरेभशेन चल्लें आनी मागीर तांच्यात कुरबुऱ्यो सुरुवात जाल्यो. कायदोमंत्री शंकर लाड हांच्या फुडारपणाखाला आमदार दिलखुश देसाई, दयानंद नार्वेकार हांणी बंड केले आनी ताईंचे सरकार अल्पमतांत आयले. शेवटी २६ एप्रिल १९७९ दिसा ताका राजीनामो दिवंचो पडलो आनी दोन दिसांनी गोंयांत राष्ट्रपती राजवट लागू जाली. गोंयकारांफुडें अश्या खूप फावट राष्ट्रपती राजवटीचो अणभव घेवपाचो आशिल्लो.

गोंयांत फुडली वेंचणूक १९८० वर्सा जाली. फाटल्या देड तप मगो सरकाराच्या राजवटीचे अणभव घेतिल्ल्या गोंयकारांनी या फावट सामको वेगळो कौल दिलो. काँग्रेस (अर्स) पक्षाचे २० आमदार जैतिवंत जाले तर सत्ताधारी मगो पक्षाचे फकत सात आमदार वेंचून आयले. हेर तीन जाग्याचेर पक्ष आमदार वेंचून आयले. सालीगांवचे आमदार डॉ. विल्फ्रेड डिसोझा, मडगांवचे आमदार स. अनंत (बाबू) नायक मुखेलमंत्रीपदाचे दावेदार आशिल्ले. भाऊ आनी ताईच्या मंत्रिमंडळात मंत्री आशिल्ले आनी मगो पक्षांतल्यान काँग्रेसीत आयिल्ले श्री. प्रतापसिंग राणे हांणी बाजी मारली आनी राणे मुखेलमंत्री जाले गोंयांत सेगीत दोन अख्ख्या टर्माखातीर सरकार चलवपी ते एकमेव मुखेलमंत्री थारले.

१९८४ वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यांत गोंयांत फुडली वेंचणूक जाली. मुखेलमंत्री प्रतापसिंग राणे हांच्या फुडारपणाखाला जाल्ल्या ह्या वेंचणुकेंत सत्ताधारी काँग्रेस पक्षाक पूर्ण बहुमत मेळ्ळें. तीस जाग्यांतले १८ जागे काँग्रेसीक फावो जाले जाल्यार मगो पक्ष आठ जाग्याचेर जैतवंत थारले, मडगांवच्यान बाब उदय भेंब्रे, सांताक्रूझ मतदारसंघातल्यान ब्रांको फ्रांसिस्को, नावेलीच्यान लुईझिन फालेरो, आनी दमणच्यान प्रभाकर सोमाभाई अपक्ष म्हूण वेंचून आयले. याच विधानसभेच्या कार्यकाळांत गोंय राज्याक घटक राज्याचो दर्जो मेळ्ळो आनी फुडल्या वेंचणुकेवेळार गोंय राज्याची विधानसभा चाळीस आमदारांची जाली. गोंयकारांक धा चड लोकप्रतिनिधी मेळ्ळे.

राजकीय अस्थिरता म्हणजे किदें आनी राज्याच्या विकासाचेर ताचो कितलो वायट परिणाम जाता हाचो अणभव आमकां गोंयकारांक येवपाक लागलो तो वर्स १९८९ सावन. १९८९ वर्सा जाल्ल्या वेंचणुकेच्यान गोंयचें राजकारण सामकें बदल्लें. ''म्हज्या मतदारसंघाचो विकास जावपाक जाय म्हूण हांवे पक्षांतर केलां'' अशें सांगून आपलो स्वार्थ सादपाखातीर, कपडे बदलिल्ल्याभशेन पक्ष बदलपी गोंयचे राजकारण हांगाच्यानूच सुरवात जालें. १९८९ ते २००७ हो तर अस्थिर राजकारणाचो कळसाचो काळ आशिल्लो.

१९८९ वर्सा जाल्ल्या वेंचणुकेंत काँग्रेस पक्षाक वीस जागे मेळ्ळे जाल्यार मगो पक्षाक अठरा जाग्यार जैत मेळ्ळें. दोन अपक्ष आमदार वेंचून आयले. प्रतापसिंग राणेन मुखेलमंत्री पदाची सोपूत घेतलो आनी दोन म्हयन्यांनी तांचे सरकार कोसळ्ळें. सभापती आशिल्ल्या दोतोर लुईस प्रोतो बार्बोझा हांणी राजीनामो दिलो. गोवन पिपल्स पार्टी नांवाचो पक्ष स्थापन करुन तांणी काँग्रेसींतल्यान पक्षांतर केलें. अठरा दिसां खातीर बाब चर्चिल आलेमांव मुखेलमंत्री जाले आनी मागीर दोतोर बार्बोझा गोंयचे मुखेलमंत्री म्हूण कदेलार बसले. दोतोर बार्बोझा हांचे सरकार फकत आठ म्हयने तिगलें. हें सरकार कोसळ्ळें आनी परत एकदा गोंय राज्यांत राष्ट्रपती राजवट लागू केली. देड म्हयनो गोंयांत राष्ट्रपती शासन आशिल्ले.

जानेवारी १९९१ रवी नायक हांकां मुखेलमंत्री वेंचलें. ताणी सवाय दोन वर्सां बरेतरेन सरकार चलयलें. गोंयांक लागिल्लो अस्थिरतायेचो श्राप तांकाय भोवलो. दोतोर विलीन आपल्या सहकाऱ्यांक घेवन बंड केले आनी मुखेलमंत्री पद मेळयले. १९८० च्यान मुखेलमंत्री जावपाक यत्न करपी दोतोर विलींची इत्सा अकरा वसां उपरांत पुराय जाली. सुमार अकरा म्हयने ते मुखेलमंत्रीपद भोगपाक पावले. ह्या काळात मुखेलमंत्र्यांच्या कदेला खातीरचो खेळ हो संगीत कदेलाच्या खेळासारको जाल्लो. राज्यांतली अस्थिरता तेंगशेर पाविल्ली. दोतोर विलीक उडोवन रवी नायक मुखेलमंत्री जाले. तेन्नाचे गोंयचे राज्यपाल तांका लागी आशिल्ले. रवीबाब फकत स दीस मुखेलमंत्री पदार उल्ले आनी तांकां राजीनामो दिवंचो पडलो. परत एकदा दोतोर विली राज्याच्या मुखेलमंत्रीपदाचेर बसले. गोंय घटक राज्याची ही पयलीच विधानसभा ह्या पयल्या विधानसभेच्या कार्यकालांत राणे, आलेमांव,

बार्बोझा, रवी नाईक, दोतोर विली अशे पांच जाण मुखेलमंत्री जाले आनी राज्यान सात नवी मंत्रीमंडळां पळयली.

ह्या अशा अस्थिर राजकीय वातावरणांत १९९४ वर्स उदेलें. गोयांत परत एकदा वेंचणूको जाल्यो. काँग्रेस पक्षाक फकत अठरा जाग्यांचेर समाधान मानचें पडलें जाल्यार मगो पक्षाक बारा जाग्यार जैत फावो जाले. गोंयच्या राजकीय इतिहासांत पयलेंच फावट भारतीय जनता पक्षाक (भाजपा) चार जाग्यार जैत मेळ्ळें आनी ताणी विधानसभेंत प्रवेश केलो. युगोडेपा पक्षाक तीन जागे तर तीन अपक्ष जैतीवंत जाले. अणभवी प्रतापसिंग राणे, युगोडेपाच्या तेंक्यांन परत एकदां मुखेलमंत्री जाले. साडेतीन वर्सां ताणी पक्षांतल्या विरोधकांक तोंड दित सरकार चलयलें. दोतोर विलीची राजकीय अतृप्तता तांकां नडली. एक बरो दोतोर आशिल्ले विली, राजकीय ऑपरेसावां करपाक तितलेच फिशाल आशिल्ले. राणेचे सरकार उडोवन विली मुख्यमंत्री जाले. हे सरकार कशें बशें चार म्हयने तिगलें. मागीर लुईझिन फालेरोचे सरकार आयलें आनी अडीज म्हयन्यांनी तेंवूय पडलें. फुडले चार म्हयने गोंयांत राष्ट्रपती राजवट लागू जाली आनी १९९९ वर्सा गोंय राज्य वेंचणुकेक मुखार गेले.

१९९९ च्या वेंचणुकेक काँग्रेसीक पूर्ण भौमत मेळ्ळें. २१ जाग्यार काँग्रेस आमदार जैतिवंत थारले. भाजपाक धा जाग्यार भौमत मेळ्ळे. मगो पक्षाक फकत चार जाग्यार, युगोडेपा दोन, गोवा राजीव काँग्रेस दोन आनी अपक्ष एका जाग्यार जैतवंत जाले. ह्या विधानसभेंन गोंयच्या राजकारणाची दिशा बदल्ली. स्वार्थीपणाचे फुडली पायरी, 'युज अँड थ्रो' ही संस्कृती ह्या विधानसभेच्यान सुरवात जाली. गोंयची राजकीय संस्कृताय ब्रॅंड, ''व्हर्साकडल्यान व्हर्स्ट'' असो प्रवास करपाक लागली. जनमताच्या कौलाचो आदर राखनासतना आपल्याक जाय तशो जोडयो जुळोवपाची प्रक्रिया ह्या विधानसभेंतल्यान आनीक नेटान चालू जाली.

ह्या विधानसभेच्या कार्यकालांत पयले पांच साडे पांच म्हयने लुईझिन फालेरो मुखेलमंत्री जाले. तर मागीर अकरा म्हयन्यांखातीर फ्रान्सिस सार्दिन, भाजपाचो तेंको घेवन मुखेलमंत्री जाले. सार्दिनाक किदें कळचे पयलींच मनोहर पर्रिकारान ताच्या पायापोंदचे जाजम ओडून काडलें आनी हें सरकार कोसळ्ळे. राजकीय डावपेच रचपाक हुशार आशिल्लो मनोहर पर्रिकार मुखेलमंत्री जालो. ह्या (१९८९-२०००) धा वर्सांत गोंयांन तेरा मंत्रिमंडळां आनी दोनदा राष्ट्रपती राजवटी पळयल्यो. त्या काळांत गोंयच्या सरकाराचे सरासरी आयुष्यमान स म्हयन्याचें आशिल्ले. अशें दिसताले की गोंय राज्याक राजकीय स्थैर्य मेळपाक जाय जाल्यार एकवीस मुखेलमंत्री आनी उरतात ते १९ जाणांक मंत्री करचे पडटले जाल्यारुच आमकां थिरताय मेळटली.

२००० सालाच्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत पर्रिकारान राजकीय भूकंप घडोवन हाडलो. ताणी दोनापावलच्या इंटरनॅशनल सेंटरान मंत्रिमंडळाची अकस्मात बसका घेतली. बसका किदयाक ती तांच्या मंत्रिमंडळातल्या वांगड्यांक लेगीत खबर नाशिल्ली. त्या बसकेंत विधानसभा बरखास्तीची शिफारस राज्यपालाक केली. रोखडेंच राजभवनार वचून मनोहर पर्रिकारान ही शिफारस राज्यपालांक सादर केली आनी बेगीनांत बेगीन वेंचणूको घेवपाची मागणी केली. राज्यपाल महम्मद फाजलान ती मान्य केली आनी गोंय विधानसभा बरखास्त जाली. पर्रिकाराच्या ह्या राजकीय धक्कातंत्रान सगळेच अजाप जाले.

जून २००२ सालात वेंचणूक जाली आनी मनोहर पर्रिकर मुखेलमंत्री जाले. तांकां अपेक्षा आशिल्ली तशें यश मात्र तांच्या पक्षाक मेळूंक ना. भाजपाक सतरा जाल्यार काँग्रेस पक्षाक सोळा जाग्यार यश मेळ्ळे. मगो आणि युगोडेपाचो तेंको घेवन पर्रिकाराक सरकार चलोवंचे पडले. पावणेतीन वर्सां पर्रिकर हें सरकार चलोवपाक शकलो. दिगंबर कामतीन केल्ल्या पक्षांतरान हें सरकार अल्पमतांत आयलें. काँग्रेस पक्षाचे प्रतापसिंह राणे मुखेलमंत्री जाले. म्हयन्या दोन म्हयन्यांत तांचेय सरकार कोसळ्ळें. गोंयांत राष्ट्रपती राजवट लागू जाली. तीन म्हयन्याच्या राष्ट्रपती शासना उपरांत परत एकदा प्रतापसिंह राणे हांणी मुखेलमंत्री पदाचो सोपूत घेतलो आनी दोन वर्सां राज्यकारभार सुरळीत चलयलो.

२००७ वर्सा जाल्ल्या वेंचणुकेंत काँग्रेस पक्षाक सोळा जागे मेळ्ळे जाल्यार भाजपाचे चौदा आमदार वेंचून आयले. राष्ट्रवादी काँग्रेस, सेव्ह गोवा, मगो हांचो तेंको घेवन दिगंबर कामत राज्याचे मुखेलमंत्री जाले. भाऊसाहेब बांदोडकर, प्रतापसिंह राणे हांच्या उपरांत आपलें सरकार पाच वर्सां चलोवपी दिगंबर कामत एकलेच मुखेलमंत्री थारले.

२०१२ सालच्या वेंचणुकेंत इतिहास घडलो. दोन दसकां उपरांत गोंयांत एका पक्षाक पूर्ण बहुमत मेळ्ळे. भाजपाचे एकवीस आमदार वेंचून आयले आनी मनोहर पर्रिकार मुखेलमंत्री जालो. गोंयकारांक खोस भोगली. फुडलीं पांच वर्सां भाजपाचेच सरकार तिगलें पूण मुखेलमंत्री मात दोन जाले. केंद्रांत संरक्षण मंत्रीपद मेळिल्ल्यान मनोहर पर्रिकाराक राजीनामो दिवंचो पडलो आनी लक्ष्मीकांत पार्सेकार हांच्या गळ्यांत मुखेलमंत्रीपदाची माळ पडली.

२०१७ सालात गोंयांत विधानसभा वेंचणूक जाली. २०१२ सालात काँग्रेसीच्या राजवटीक विटून लोकांनी भाजपाक बहुमत दिले. पूण फाटल्या पाच वर्सांनी लोकांचो अपेक्षा भंग जालो. बेकायदेशीर खाणकाम, कॅसिनो, मुळाव्या शिक्षणाचो माध्यम प्रस्न अशा विंगड विंगड विशयांचेर आश्वासन दिवन आनी सपनां दाखोवन सत्तेर आयिल्ल्या मनोहर पर्रिकारान गोंयकारांचो विरस केलो. खाणकाम बंद केलें. पूण खंयच्याच मिनेराचेर कारवाय जावंक ना. तीस हजार कोटींचो खाण घोटाळो जाला म्हणपी हो सार्वजनिक लेखा समितीचे अध्यक्ष मुखेलमंत्री जातगीर मात 'हांवे अशें म्हणूंकच ना' अशें उलोवपाक लागलो. कॅसिनोक मांडवीतल्यान पयस दर्यात व्हरपाची गरज आसा म्हणपी, सरकाराक टॅक्स आनी नोकऱ्यांखातीर कॅसिनोची गरज आसा म्हणपाक लागले. 'इंग्लिश व्हाय? मायभास जाय' म्हणत राष्ट्रीय म्हामार्ग आडावपी विरोधी पक्ष फुडारी मुखेलमंत्री जातगीर, आदल्याच सरकाराचें मुळाव्या शिक्षणाचें धोरण राबोवपाक लागलो. अशा सगळ्या गजालीक लागून लोक विटले. २०१७ सालच्या वेंचणुकेंत भाजपाक फकत तेरा जाग्यार जैत मेळ्ळे जाल्यार काँग्रेस सतरा जागे मेळोवन

सगळ्यांत व्हडलो पक्ष थारलो. मगोचे तीन, गोवा फॉरवर्डचे तीन, तीन अपक्ष आनी राष्ट्रवादी काँग्रेसचो एक अशे आमदार वेंचून आयले.

सतरा जागे मेळून सगळ्यांत व्हडलो पक्ष थारिल्लो काँग्रेस राज्यांत सरकार स्थापन करतलो अशें दिसतालें. सत्तावीस आमदार बिगर भाजपाचे आशिल्ले. केंद्रात आशिल्ल्या भाजपा सरकाराच्या नेटार मनोहर पर्रिकारान अशी खेळी केली की काँग्रेस थंयच उरली आनी भाजपा सरकार घडोवन मेकळें जालें. सामक्या विरोधी विचारसरणीच्या लोकांक बरोबर घेवन घडयलें, हें सरकार म्हणजे जनमताचो अपमान आशिल्लो. ही वेंचणूक भाजपा विरुद्ध मगो विरुद्ध काँग्रेस विरुद्ध गोवा फॉरवर्ड अशी आशिल्ली. पूण वेंचणुके उपरांत मात भाजप-मगो-गोवा फॉरवर्ड-अपक्ष अशें सरकार सत्तेर आयलें. स्वार्थीपणाचो हो कळस आशिल्लो. संरक्षणमंत्री पदाचो राजीनामो दिवन मनोहर पर्रिकार मुखेलमंत्री जाले. त्यावेळच्यान अशें दिसूंक लागले की ह्या वेंचणुकेक अर्थ तो किदें उरलो? पक्षीय पातळीचेर वेंचणूको किद्याक जाय? त्यापरस सगळ्यांनीच अपक्ष रावपाचें. वेंचून येतगीर ज्या गटाकडे बहुमत आसा तांणी आपलो नेतो वेंचून सरकार स्थापन करपाचें. आयच्या पक्षाच्या नांवान चलिल्ल्या ह्या वेंचणुकेंत लोक मात पिशे थारतात.

मनोहर पर्रिकारांच्या मरणा उपरांत तर भाजपान जादूच केली. प्रमोद सावंत मुखेलमंत्री जातगीर मगोचे बाबू आजगांवकार आनी दिपक पावसकारान भाजपांत प्रवेश केलो. ताच्या उपरांत काँग्रेसीचे धा आमदार भाजपांत आयले. वेंचणूक जातगीर काँग्रेसीचे विश्वजीत राणे आनी कांय म्हयन्यांनी सुभाष शिरोडकर, दयानंद सोपटे, भाजपवासी जाले. मार्च २०१७ त विधानसभेच्या सुरवातीक तेरा संख्याबळ आशिल्ल्या भाजपाचे तीन वर्सांनी सत्तावीस आमदार जाले आनी एक अपक्ष मेळून २८ जाण सत्ताधारी पक्षाचे वटेन आशिल्ले.

१५ मार्च २०१७ ह्या दिसा स्थापन केल्ल्या ह्या विधानसभेचे आज फकत २९ आमदार उरल्यात. बाकीच्या आमदारांनी दुसऱ्या पक्षांत वचपाखातीर वेंचणुकेच्या पयलींच राजीनामो दिल्यात. चाळीस आमदारांच्या विधानसभेत फकत १५ आमदार अशे आसात जे हे पांच वर्साक एकाच पक्षात रावल्यात. उरिल्ल्या २५ जाणांनी माकड उडयो मारल्यात.

सुरवातीक हांवे म्हणला तशें दोंगरेर शिगम्याक नांव जरी इंग्रुज दिलें तरी शिगमोच खेळटात तशेंच गोंयांत १४ फेब्रुवारीक जावपी लोकशायेच्या दबाज्याक नावा जरी वेंचणूक दिलां तरी मागीर शिगमोच जावपाचो आसा. शिगम्यांक संवगां आसतात तशीं वेगवेगळी सवंगा फुडलो म्हयनोभर आमच्या दारांनी नाचतलीं. ताका शबय घालतना विचार करुन घालूया... ना जाल्यार फुडली पांच वर्सां परत एकदा आमकां गोंयकारांक शबे मारित रावचें पडटलें. ताका लागून जागते रहो!

संपर्क: 9665876860

***



# गोरी गोरी पान - हुशार मारीयाबाय

**मुकेश थळी**

मारीयाबाय गेली. गोरी गोरी पान. जगभर चिकीत्सक, गुणग्राहक, रसीक, विद्वान, संपादक, कलाकार हांच्या वर्तुळांत वावुरपी बुदवंत, म्हान. सभ्य, शालीन.

कांय मनशां कडेन व्यक्तिमत्वांत एक करिश्मा आसता. एक वलय आसता. मारीयाबाय तातूंतली. ओडलायणी, देखणी. मंद हांसो उतरां कणकणी. खानदानी. घरंदाज. प्रतिश्ठेच्या घराण्याचो चकचकीत तोंडावळो - लूक. स्कॉलर. हाडान संशोधक वृत्तीची. परिपूर्णतेचो ध्यास बाळगून आपणें उलयल्लें बरयल्लें सगळेंच उत्कृश्ट जावचें ही तळमळ बाळगुपी. शिक्षणतज्ञ. प्राध्यापक. इंग्लीश भाशेची तज्ञ. इंग्लीश भाशा, साहित्य, अनुवादीत साहित्य, उच्चारशास्त्र हांचें सखोल ज्ञान आशिल्ली. ग्रेसफूल धवेंफुल्ल व्यक्तिमत्व.

मारीया आवरोरा कुटो ही गोंयची धूव. महाविद्यालयीन शिक्षण धारवाड जालें. आदल्यो मुख्यमंत्री शशिकला काकोडकर आनी म्हान नट, नाटककार गिरीश कर्नाड हीं तिचीं क्लासमेट. वेगवेगळ्या कार्यावळीं वेळार च्या वा जेवण घेतना हांव मारीयाबायक शशिकलाताईच्यो आनी गिरीश कर्नाडाच्यो खबरी विचारी. शशिकलाताई कमी उलोवपी अशें ती सांगी. आपल्या वाडदिसाक मात न चुकतां येताली, थोड्या वेळान वताली, तिचे कपडे चकाचक अशें ती सांगी. गिरीश कर्नाड तर तिच्या उलोवण्यांत येतालोच.

मारीयाबाय कडेन वळख कशी जाली ती घडणूक मजेशीर. अच्छेव ही पुंडलीक नायक हांची कोंकणी कादंबरी कोलकाताक रावपी विद्या पै हांणी अनुवादीत केल्ली. ऑक्सफर्ड प्रेसा वरवीं ती प्रकाशित जावपाची आशिल्ली. मारीया कुटो आनी आयएएस अधिकारी आल्बान कुटो तेन्ना चेन्नयत रावतालीं. ऑक्सफर्डची भारतीय भाशांच्या अनुवादांची संपादक मिनी कृष्णन हिणें आपली इश्टीण मारीयबायक अच्छेवाचो इंग्लीश अणकार वाचूंक दिलो. मारीयाबायन कोंकणी अच्छेव आनी अणकारीत इंग्लीश अच्छेव (अपहिवल) सुरवातीचीं थोडीं पानां वाचलीं. अदींमदीं कितें तरी उणें अणकारांत उरलां अशें तांकां दिसलें. गोंयांत तिणें चवकशी केली आनी नेमकी निश्चिती करपा खातीर म्हाका आपयलो. हांव तेन्ना कोंकणी कथा इंग्लीशींत करतालों.

तिचें घर कारोना. उत्तर गोंयांत. हळदोणें लागसार. हांव, पुंडलीक नायक, हेमा नायक आमी तिगांय तिच्या घरा गेलीं. भव्य घर. आंगणूच आयस पयस विशाल. सुंदर बाग. मारीयाबायल्या घराक भोंवतणच्या झाडांक लागून एक थंडसाण आशिल्ली. थंय आमी मॅरॅथॉन बसका घेतली. तिका हांवें सादरीकरण करून कितें उरलां तें सांगलें. तिचें मुखामळ फुललें. मुकेश, आतां हें काम तूंच कर. जे उणाव आसत ते भरून काड. मारीयबायनं ते 'ऑब्र' म्हज्या गळ्यात विश्वासान घालें.

उपरांत तें काम हांवें आनी पुंडलीक नायक हांणी वेगवेगळ्यो बसका घेवन पुराय केलें. मारीयाबाय खूश जाली. हांवें उतराक जागून वेळार तें पुराय केलें म्हूण ती खोशी जाली.

हे वळखी उपरांत ती पणजेंत सांस्कृतीक कार्यावळीं वेळार मेळटाली. मुकेश, कसो आसा? अशी अपुरबायेन आस्थेन चवकशी करपी रीत परंपरा जपपी ही विद्वान बायल. मनशाक नांवान उलो करपाक जाय ही रीत खूब व्हडली. जग भोंवन आयिल्ल्यान तिचे कडेन अश्यो घे सारक्यो जायत्यो चालीरिती संस्कार मॅनर्स दिसताले. सामके पॉलीश केल्ले शुद्ध. मारीयाबाय साश्टीची कोंकणी सोबीत उलयताली. तातूंतलें मंजुळ संगीत, हेळे, शैली, वजन आयकन आयकन दिसतालें.

तिचें भाशण बी कार्यावळींत आसतालें तेन्ना तिका हांव आग्रो करतालों - मॅडम, तुमी भाशणाची सुरवात कोंकणीतूच करात. ती आरंभ कोंकणीत करताली. पूण सराव, संवय, संवकळ नाशिल्ल्यान चार मिनटांनी नमळायेन अगत्यान सांगून रोखडीच इंग्लीश सुरू करताली. तिची इंग्लीश म्हळ्यार उतरांची बांसरी. भाशण म्हळ्यार कायम रंगपी एक मैफल.

उत्कृष्टतेचो ध्यास आशिल्ल्यान ती भाशणाची पूर्वतयारी, अभ्यास, गृहपाठ आकांताचो करायची. मित्रांचो सल्लो, बुध्द घेताली. शिक्षणतज्ञ सुरेश गुंडू आमोणकर हांकां फोन करून आंकडे तथ्यां बारीकसारीक तपशील कन्फम करताली.

फोंड्या एकदां अरंगेत्रम नृत्य कार्यावळ आशिल्ली. मारीया कुटो मुखेल सोयरी. प्रभावी उलोवप केलें तिणें. नाचाचे, संस्कृतीचे उल्लेख, कलेचें महत्व व्यवस्थितपणान मांडले. मुद्दे सामके क्रमवार. मॅडम, तुमचें भाशण सदांच यादीक उरतलें. उपरांत हांवें सांगलें. मुकेश, सगळें सारकें जालें मरे? कांय उरूंक ना न्हय? अशे तरेची हुरहूर आशिल्ली

व्यक्ती हांवें भोव थोड्यो पळेल्यो. आपलें सादरीकरण सर्वांगान १०० टक्के जावचें ही तिची इत्सा.

भाशातज्ञ स. डॉ माधवी सरदेसाय तिचे अपुरबायेची आनी आवडीची. माधवीचे गूण मारीयाबाय म्हाका सांगी. कोंकणी संदर्भांत कसलीय माहिती जाय आसल्यार ती माधवीक फोन करी. आनीक कितेंय लागलें जाल्यार म्हाका विचारी. तोंडार वसपी मंद स्मित हांसो तिच्या व्यक्तिमत्वाक आनीक एक उबारी आन्नी तेज हाडी.

मुंबयत रावपी कथाकार शीला कोळंबकर मिरामार धेंपे कॉलेजांत शिकतना मारीयो आवरोरा कुटो तिची इंग्लीश प्राध्यापक आशिल्ली. शीलाबाय सांगी की मारीया टीचर दिसतालीच इतली सुंदर, ओडलायणी की चले चलयो कोणूच तिच्या लेक्चराक दांडी मारी नाशिल्लीं. हुशार आशिल्ली, तिच्यांत चमक आशिल्ली आनी इंग्लीश बेस बरी शिकयताली अशें शीलाताईन सांगलें. पिकनिके वेळार वा हेर संमेलानाच्या सांस्कृतिक कार्यावळी वेळार मारीयाबाय, हांव सायबा पलतडीं वेतां... हे गीत तार सप्तकांत बरी गायताली अशें शीलाताई सांगता.

हांवें गिरीशाक सांगलें, गिरीशान फोन केल्लो, गिरीशान म्हाका अशें सांगलें, गिरीश येवपाचो आसा... अशीं उतरां तिच्या तोंडांतल्यान फोनार उलयतना वा प्रत्यक्षांत उलयतना येतालींच. गिरीश म्हणजे गिरीश कर्नाड. ऊलोवंचे परस तूं बरोवन काड हें, असो आग्रो गिरीश सदांच करतां अशेंय तें सांगी. बरोवंक लाग हो सल्लो दिवपी गिरीश कर्नाड निमाणें जिकलो. मारीयाबायन पुस्तकां बरयलीं. घसघशीत. तीं बरयतना तिणें बारीकसारीक संदर्भ पक्को करपा खातीर कितलीं पुस्तकां ढवळ्ळीं आनी कितल्या तज्ञांक विचारलें हाका नेम ना. गोवा - अ डॉटर्स स्टोरी, हें तिचें गाजिल्लें पुस्तक. इंग्लीश. पेंग्वीन प्रकाशनाचें. संवेदनशीलता, खोलाय आणि स्कॉलरशिप हांणी युक्त अशें हे पुस्तक. तातूंत गोंयचो राजकी, सांस्कृतीक आणि समाजीक इतिहास दिसता. निवदेन कथन करपाची तिची शैली अशी आसा की आपलो लागींचो कोण तरी आपणा कडेन उलयता संवाद सादता अशें दिसता. गोंयच्या समाजांतली नवता- परंपरा दोनूय तरेची जीवनशैली, तातूंत जाल्ले बदल हांचें साद्यंत वर्णन ती करता. धर्मी भावपणाचेर ती भाश्य करता. नाच संगीत हांचेंय वर्णन करता. जायते गांव, कितल्याशाच देशांची भोंवडी करून उदक पियेल्ली ही लेखिका परीपक्क शांत तकलेन विश्लेशण करता. घरकार आल्बान कुटो आयएएस अधिकारी आशिल्ल्यान ती दिल्ली, चेन्नय आनी हेर सुवातांनी पावली, भोंवली. तिणें जग बारीकसाणेन नियाळिल्लें.

गोंयांत जावपी समाजीक सांस्कृतीक बदल या हेविशीं मारीयाबाय खुबूच संवेदनशील जागरूक आशिल्ली. तिच्या फिलॉमेनाज जर्नी, ह्या पुस्तकांत हें दिसून येता.

...गेली. काळा आड गेली. तेजस्वी रूपाची मारीयाबाय गेली. गोड गोड यादी, एकॅडमीक स्वरूपाचे खूब खूब उगडास काळजाच्या पांटुल्यांत दवरून गेली. आमच्या सारक्या खूब जाणांक ज्ञानसंपन्न करीत प्रेरणा दिवन गेली. मॅडम, आर्गां ओंपतां!

संपर्क : 9545827662

***



# यादींतले मनोहरबाब

माधव बोरकार

१९८४ तली गजाल. हांव आकाशवाणी मुंबय केंद्राचे सेवेंत रुजू जाल्लो. म्हाका तेन्ना सगळेंच नवें आशिल्लें. कोंकणी विभागांत उलोवपां दिवपी म्हाका अनवळखी आशिल्ले तांचेकडेन वळख करुन घेवपाचो यत्न करतालों. शीला कोळंबकारा सारकिली लेखिका आमच्या टॉकर डिरेक्टरींत नाशिल्ली. एक दीस अना म्हांबरो म्हणूंक लागलो की मनोहर धुंगटाक तुवें आफोवंक जाय. तांची घरकात्र ललिता धुंगट ह्यो किर्ती कॉलेजांत फ्रेंच शिकयता. आमचे वळेरेंत हीं दोनूय नावां आशिल्लीं. वेगवेगळ्या भासांतल्या श्रेष्ठ साहित्यीकां विशींची एक माळ करुन तातूंत स्लांदाल ह्या फ्रेंच लेखकाविशीं उलोवपा खातीर ललिताबायक करारपत्र धाडलें. कांय दिसांनी आमच्या विभागांत एक व्यक्ती आयली. गोरी, माथ्याक पातळ केंस, मोटवी आनी आपूण मनोहर धुंगट अशी ताणी आपली वळख करुन दिली. ही आमची पयली वळख ती निमणे मेरेन वाडत गेली. सांगपाचें म्हळ्यार प्रो. ललिताबायक तो टॉक करपाचो नाशिल्लो. 'मनोहरबाब, तुमीच कित्याक टॉक दिनात?' अशें तांकां म्हण्टकच ते तयार जाले. फक्त विशय मात बदलून घेतलो. तेन्ना श्रावण म्हयनो लागिल्लो. त्याच विशयाचेर ताणी एक टॉक बरोवन हाडलो. प्रसारणा उप्रांत तो आमी 'कुळागरा'क धाडून दिलो आनी एका अंकांत प्रसिद्ध जालो. श्रावण म्हयन्याचें काव्यात्मक वर्णन तातूंत आशिल्लें. मात्सो बसको आवाज तरीय उलोवप रुचीन म्हणपाचें म्हाका जाणवलें. त्या उप्रांत तीन म्हयन्यांतल्यान एक फावट तांकां आमचें करारपत्र वचपाक लागलें. आनी ताणीय आमकां केन्नाच ना म्हळेंना. तांचें ऑफिस आकाशवाणी सावन पांच मिनटांच्या वाटेर आशिल्लें. पूण ते ऑफिसांत वचपाच्या ताकतिकेंत आसताले. थंय ते खूप वयल्या पदार वावुरताले. ताका लागून सवकसायेन बसून उलोवपाक वेळ नासतालो. पूण तेन्ना सावन आमची वळख वाडत गेली.

पै धुंगट हे कुटुंब बेती वेरेंचें. चडशीं वैष्णव कुटुंबा ही व्यापार करपी. वेगवेगळे तरेचे व्यापार. भुसारी दुकानां ते मीनाचो धंदो हो वैष्णवानी केला. आजूय तेच चित्र दिसता. आडवाद आसतले. धुंगटाचें कुटूंब हे मुळचे तंबाखूचे व्यापारी. ताचे वयल्यान तांकां धुंगट हे आडनांव पडलें अशें जाण्टेले सांगतात. आनी मनोहरबाबाले तेंच मत आशिल्लें. मुखार तंबाखूचो व्यापार सोडून ताणी लोखंड आयात करपाक सुरुवात केली. बाळा पै धुंगट हे नव्या व्यापारांत नांवा रुपाक आयले. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत लोखंडाचे दर वाडले आनी ह्या धंद्याक आकांताचो तरतर आयलो. हें दुसरें म्हाझूज कांय व्यापाऱ्यांक बऱ्याक पडलें तर कांय व्यापारी बुडलेय. आजूय बाळा पै धुंगट हांचें दुकान आनी व्यापार तांचे वारसदार चलयतात. १९५२ वर्सा रा. भि. जोशी हे नामनेचे मराठी लेखक गोंयांत आयिल्ले. तांकां बाळा शणै दिसले. तांचें अचूक वर्णन जोशी आपल्या 'कळस आणि क्रूस' ह्या लेखांत करतात. तो लेख वाचपा सारको आसा. त्या लेखांत वैष्णव घालताले ती वाटकुळी तोपी आनी कपलाक उबें नाम. ह्यो बारीकसाणी रा. भि. जोशीन अचूक टिपल्यात. अश्या ह्या व्यापारी कुटुंबांत मनोहरबाबाचो जल्म जालो. तांचे वडील भिकू पै धुंगट हे व्यापारुय करताले. पूण मनोहरबाबाली पिळगी मात व्यापारांत पडली ना. ताणी वेगळी वाट धल्ली हें विशेश.

मनोहरबाबालें शिकप पयलीं मराठी आनी पुर्तुगेज सेग्रुंदग्राव्ह मेरेन जालें. पुर्तुगेज शिक्षणाचें दुसरे सपण म्हळ्यार लिसेवाचेर वचप. ते खातीर येझामद आदामिसांव दिवची पडटाली. ते परिक्षेची ताणी तयारी केली पूण परिक्षा दिली ना. ताचे कारण तांचे मामा किर्तनी. 'म्हजो पुर्तुगेज मामा' ह्या तांच्या लेखांत ताचे कारण कळटा. हो मामा लिसेव सेतमान केल्लो. पूण ह्या शिकपा बराबर ताका आशिल्लो पुर्तुगेजांचो सुमारा भायलो अभिमान तांकां खटकतालो. ते भायर कांय हिंदू मुखार शिकपाक पुर्तुगालाक वताले आनी आपल्या नावाचें फिरंगीकरण करताले. तातूंतलो एकलो विसेंत ताम्र जालो. असो अहंकार निर्माण करपी भाशेविशीं तांच्या मनांत एकेतरेची कोडसाण रिगली आनी ताणी इंग्लीशीचे वाटेन वचपाचें थारायलें. ताका आनीक एक कारण आसा. पुर्तुगेज शिक्षणाक व्हडलोसो फुडार ना हाची जाणविकाय गोंयकारांक जावंक लागिल्ली. मॅट्रिक करुन मुंबय, पुणे, बेळगांव ना जाल्यार धारवाड वचून कॉलेज करप हो एकेतरेचो नेम जालो. अशें शिकप केल्लें गोंयकार थंयच नोकऱ्यो करुन स्थायिक जाताले. बरेच गोंयकार अशे तरेन वयल्या पदार पावले. हाच्यो कितल्यो तरी देखी आसात. गोंयकारांचें स्थलांतर हो समाज शास्त्राच्या अभ्यासाचो विशय.

शिक्षणा खातीर ताणी पणजेच्या मॉडर्न स्कुलांत प्रवेस घेतलो. पणजे ते वेरें अशी लाँच सर्वीस आसताली. ते सबंदाच्यो यादीं मनोहरबाबान बरयल्यात त्यो म्हत्वाच्यो आसात. आनी सुरबुसूय आसा.

मनोहरबाबाचे वडील भिकूबाब पै धुंगट हे गोंयांत पेढयेचें काम पळयतालें. तांच्या कुटुंबाक व्यव्हारी बाजारांत मोटी पत आशिल्ली. ताका लागून मुंबयचें स्थलांतर तांकां सोपें जालें. मुंबय ताणी पेढी चलयली आनी आपल्या भुरग्यांक जाय तशें शिक्षण दिलें. मनोहरबाब, श्रीवल्लभ, रंगनाथ, प्रेमानंद आनी शरदिनी डहाणुकर हे आपआपल्या वेंचून काडिल्ल्या मळार पर्जळ्ळे. प्रेमानंद हो दोतोर जालो आनी ह्या आपल्या व्यवसायांत ताणे नांव मेळयलें. तेच प्रमाण शरदिनी ह्यो दोतोर जावन तांच्या आयुर्वेदावेल्या संशोधनाक लागून नामनेक

पावल्यो. हरशीं त्यो ॲलोपथी शिकून एम.डी. जाल्ल्यो. त्या भायर ताणी सुंदर ललित लेखन केल्लें. तांच्या ललित लेखनाचीं कांय पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. दुर्दैवान तांकां ऐन पिरायेर मर्ण आयलें.

मुंबय आयल्या उप्रांत धुंगट कुटुंबाक मरिन ड्रायव्हार 'मेघदूत' ह्या इमारतींत रावपाक आयस पयस फ्लॅट मेळ्ळो. कांय वरसांनी कुटूंब वाडटकच भाव हेर कडेन गेले. 'मेघदूतां'ची याद म्हूण ताणी 'मेघदुतास निरोप' ह्या नावाची एक पुस्तिका काडली. फकत खासगी वितरणाखातीर. तातूंत सगळ्या धुंगटांनी आपल्यो यादी बरयल्यात. मॅट्रिक जातकच मनोहरबाबान कॉमर्साक वचपाचें थारायलें. मुंबयतली कॉमर्साचें शिक्षण दिवपी सिडनेहेम कॉलेज मेघदूता कडल्यान लागीं आशिल्ली. हांगा पु.शि. रेगे हे नामनेचे मराठी कवी प्रोफेसर आशिल्ले. त्या भायर कथाकार गंगाधर गाडगीळ हांगा शिकयताले. गाडगीळ उत्तम शिकोवपी तर रेगेक केन्ना शिकोवंक आयलेंना अशें मनोहरबाब सांगताले. तांचे समकालीन किशोर आरस हाणी तेविशीं आपल्या यादींच्या पुस्तकांत बरयलां. त्या काळांत रेगे 'छंद' हे दोन म्हयनाळें संपादन करुन उजवाडायताले. तांचे खातीर मनोहरबाब वर्गणीदार मेळोवपाक वावुरताले. छंदाची वर्सुकी पटी फक्त तीन रुपया आसुनूय पटी दिवपाखातीर लोकांचो हात बोल्सांत वच नाशिल्लो. ते अणभव मनोहरबाब सांगताले. आपल्या वावरांत पालव दिवप्यांक रेगे वरसा अखेर हे अंक बाईड करुन दिताले. ताचे दोन खंड दोन वरसां फाटीं म्हाका भेट दिले. आज म्हज्या पुस्तकांच्या संग्रहांत हे अंक हांवें सांबाळून दवल्ल्यात. तांचें मोल आज करपाक येना.

विद्यार्थी आसतना ताणी बरोवपाक सुरवात केली. पूण ते खातीर कोंकणीक वातावरण अनुकूल नासतना लेगीत आपली मायभास ताणी कित्याक वेंचून हें तांकां विचारपाक जाय आशिल्लें अशें आज दिसता. पूण हो प्रस्न तांकां विचारपाचो उल्लो. ताची मनाक खंत जाता. १९५२ वर्सा 'साद' नावाचें मासिक कोंकणी भाशा मंडळ उजवाडाक हाडटालें. ताचे कांय अंक आयले. ताचे संपादपी मनोहरराय सरदेसाय आशिल्ले. 'सादा'चो पयलो अंक प्रसिद्ध जाल्या उप्रांत मनोहरराय उंचेलें शिकप घेवपाक फ्रांसाक गेले. कांय अंकांचेर महाबळेश्वर सरदेसायाचें नांव आसा. ह्या अंकांत मनोहरबाबाली बरपावळ वाचपाक मेळटा. 'पान, पाळां आनी झाड' अशी एक कविता आसा. ही कविता म्हळ्यार बयाभाव आनी मनोहरबाब हांचे मदीं जाल्लो कवितेंतल्यान संवाद. एका अर्दान बयाभावाची कविता आसा आनी दुसऱ्या अर्दान ह्या विशयाची दुसरी वट मनोहरबाबान दाखयल्या. तातूंतल्यो कांय वळी अश्यो आसात:

*पानां लागलीं पटापट गळून पडूंक*
*झुजांत जशें खिणांत मरुन पट्टात शिपायक*



*पाळाक दिसलें मेळ्ळें जैत आनी वयर आयलीं*
*पानांची ती रास पळोवन धादोस तीं जालीं!*
*आनी कवितेचे अखेरेक*
*पळोवन तांचे कळीवर तळ्याच्या बांदार*
*'बयाभावा' वांगडा कश्टी मनोहर*

अश्यो वळी येतात. ते उप्रांत ताणी कविता बरयल्ल्यो वाचूंक मेळना. तरीकूय तांची कविता ताणी बरयल्ल्या गद्य बरपावळींत झिरपल्ली दिसता. १९५२ वरसा आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रार कोंकणी कार्यावळी सुरु जायत सावन ताणी वेगवेगळ्या विशयांचेर बरपावळ केली. तांचीं हातबरपां मात आपणे सांबाळून दवरलीना हाची तांकां खंत आशिल्ली. त्या सगळ्या ऐवजांतल्यान एक बरें पुस्तक जावंक पावतलें आशिल्ले.

१९५५ च्या अदमासाक 'साळिक' ह्या नेमाळ्याचो जल्म जालो. दो. श्रीपाद नगर्शेकार, लक्ष्मीदास बोरकार, शंकर भांडारी हांचो ताच्या प्रकाशनात वांटो आशिल्लो. गोंयकार आनी मंगळूरकार हांची बरपावळ ह्या अंकांनी वाचूंक मेळटा. बाकीबाब, शंकर रामाणी, भिकू पै आंगले आनी जितेंद्र अभिषेकी तातूंत बरयताले. ह्या नेमाळ्याक मनोहरबाबाचो मोलादीक वांटो आशिल्लो. कांय ललित लेख आनी हेर साहित्य ताणी खासा आपल्या नांवान आनी वेळा प्रसंगार टोपण नांव घेवन बरयलें. तातूंतलो गिरीश राजाध्यक्ष म्हळ्यार आपूण म्हणपाचें त्या नांवा फाटलें गुपीत ताणी म्हजेकडेन उक्तें केलें. हरशींय तांचे कडेन खबरी करप हो एक आगळो वेगळो अणभव आसतालो. मागीर तो प्रत्यक्ष भेटेंत जांव ना जाल्यार त्यो खबरी रुचीक आसताल्यो. २०२० च्या जानेवारी म्हयन्यात आमची निमाणी भेट जाली. ते भेटेंत म्हाका ताणी 'बालबोध रामायण' हे कुमार अनंत सखाराम करंडे हांणी बरयल्लें १९३९ प्रसिद्ध जाल्लें दुर्मीळ पुस्तक भेट दिलें. फाटल्या वर्साच्या नोव्हेंबर म्हयन्यांत रामाण्यावेलो म्हजो लेख वाचून ताणी चर्चा केली. तातूंत आयिल्लो नामटू पै धुंगट कोण हेंय ताणी म्हाका सांगलें. तेच प्रमाण रामाणी बेती वेऱ्यां बिराड करुन रावताले त्या घराची खूण सांगली. मुखार रामाण्यालो पुतणयो श्रीकांत हो तांचो साडू जालो. श्रीकांतबाबाक पोस्टाचीं तिकेटी जमोवपाचो छंद आशिल्लो. तांकां मेळिल्ली पोस्टाचीं तिकेटी ते मुजरत आपल्या साडवाक धाडून दिताले. कोणाक कितें दिवपाक जाय हें तांकां बेस बरें कळटालें. ताचो म्हाकाय लाव जालो.

सिकॉमातल्यान उंचेल्या पदाचेर काम करुन ते सेवानिवृत्त जाले. आनी मागीर तांकां आपले आवडीच्या छंदाक वेळ दिवपाक मेळ्ळो. ताणी गोवा हिंदू असोसिएशनाचें संदर्भ ग्रंथालय जाग्यार घालपाचें काम घेतलें. ते खातीर ते दादर सावन ग्रँट रोडार वताले. जे मेरेन तांकां शक्य जाय मेरेन हें काम ताणीं निश्टेन केलें. आनी एका वावराची नोंद करपाची गरज आसा. ती म्हळ्यार 'दर्या गाजोता' ह्या र. वि. पंडिताचे आपजिणेचें ताणीं केल्लें संपादन. पंडितान आपल्यो यादी बरोवन दवरिल्ल्यो त्यो अ. ना. म्हांबऱ्यान मनोहरबाबाकडेन हाडून दिल्यो. आखूंक नाशिल्ल्या पानांचेर बरयल्लो मजकूर आसडून फाफडून ताका एक निश्चित आकार दिवप हें मोटें सहनशीलतेचें काम. तातूंत पंडितान आपल्या समकालीकांक घाल्ल्यो गाळी गाळून हे यादींक ताणी सुचिभरूत केल्यो. 'जागा'तल्यान त्यो खिस्ती खिस्तिनीं उजवाडा आयल्यो ताचे श्रेय मनोहरबाबाक दिवंक जाय.

पूण मनोहरबाबाचो चीरकाल याद उरपासारको वावर म्हळ्यार तांचो कोंकणी म्हणींचो कोष म्हणी आनी वाक्यप्रचार हे निखटे भाशेचे अलंकार नासून तो समाजाचो हारसो आसता अशें तांकां तांचो अभ्यास सांगतालो. कांय म्हणी आमकां गोंयच्या इतिहासाची गवाय दिता. म्हाळ पै हे व्यक्तिचेर बऱ्योच म्हणी कित्याक आयल्या ताचेर ते भाश्य करताले. ह्यो म्हणी भाशेक घटमूट करतात अशें तांचें मत आशिल्लें. मों. दाल्गादाचो म्हणीचो कोश तेच भशेन हेर भासांतल्या म्हणीच्या कोशांचो ताणी बारीकसाणीन अभ्यास केल्लो. सखाराम बोरकार म्हणींचो अभ्यास करता हाचें तांकां अप्रूप दिसतालें. एखाद्री नवी म्हण कानार पडली जाल्यार ते रोखडेच बरोवन दवरताले. हालींच्या काळांतलो तांचो अत्यंत आवडटो लेखक कृ. म. सुखटणकार. कृ. म. चें साहित्य वाचून तांकां जाल्लो आनंद ते आपल्या लागींच्या इश्टांक वांट्टालें. हो तांचें ठांय आशिल्लो दुर्मीळ गूण.

मनोहरबाबान कांय मेजक्योच कथा बरयल्यो. तातुंतली 'नायन ओ क्लॉक' नावाची कथा कवितेचे आंग घेवन आयल्या. कोंकणी कथेचें फाटीं फुडें संकलन आयल्यार तातूंत तिचो आस्पाव जावंक जाय. तेच भशेन ताणी कांय यादी बरोवन दवल्ल्यात. तांची सगळी जीण मुंबय गेली तरी मनान ते गोंयांतूच उल्ले. जाण्टेपणात ते संगणक वापरपाक शिकले. शिकपाक पिराय आड येना अशें तांचें मत. तांचे दोगूय पूत अमेरिका आनी ऑस्ट्रेलिया हांगा स्थायिक जाल्यात.

दादर एस. के. बोले मार्गार 'साफल्य' हे इमारतींत तांचो फ्लॅट. हो रस्तो तीनूय त्रिकाळ येरादारीन गजबजिल्लो. पूण हो आवाज तांचे साधनेच्या आड केन्ना आयलो ना. हे पिरायेर हालीं हालीं लेगीत ते पुर्तुगेज चर्च मेरेन सकाळीं पासय मारुन येतालें.

मनाचें तरणेपण जपिल्ल्या मनोहरबाबालो आतां म्हाका केन्नाच फोन येवपाचो ना हे जाणा जावनूय मोबायलावेलो तांचो नंबर डिलिट करपाक हात येना... आसूं तो तसोच..

संपर्क: 9665876860

***



# त्रिकोणांत शेणिल्ली मन्नू भंडारी

**दामोदर मावजो**



**१**५ नोवेंबरा दिसा मन्नू भंडारी भायर पडिल्ल्याची खबर वाचली आनी मन किण्ण जालें. एका अपुर्व पर्वाचो अंत जालो म्हणपाचें प्रकर्षान जाणवलें. एखाद्रो मनीस जेन्ना अचकीत आमचे मदल्यान ना जाता तेन्ना मनांक चिटमिटे पडटात- आरेच्चा! इतले दीस मेळून येवपाक जाय आसलें हांवें- तशेंचशें दिसलें म्हाका. इतले खेपो दिल्लीक पावतालों; तिका एकदां मेळून येवचें अशें कित्याक दिसलें ना म्हाका? मन्नू भंडारीक मेळपाचो सुयोग आयिल्लो ते गजालीक लेगीत अठरा वर्सां उलगलीं. कितलो आगरो केल्लो तिणें पर्थून यो म्हूण. बळयां टाळ्ळें काय हांवें? ना, तसो योग आयलो ना, हें खरें. पूण हांव विसरलों- योग येना तेन्ना तो जुळोवन हाडचो पडटा. हांवूच घाळ रावलों आनी मन्नूक लागीं रावपाचें टाळ्ळें.

मन्नूची भेट जावप होय एक योगायोगच आसलो. वीस वर्सां फाटली गजाल. हांव 'कथा' संस्थेच्या सेमिनारांत वांटेकार जावपाक दिल्लीक गेल्लों. 'संस्कृती' ह्या सैमसंपन्न थळार कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. थंय अनेक लेखकां वांगडा ॲन नांवाची एक अमेरिकन अस्तुरी आशिल्ली. ती विजयदान देथा सयत वट्ट भारतीय कथासाहित्याचेर डॉक्टरेट करताली. निमाण्या दिसा शरयू शर्मा ही हिंदी लेखक म्हाका मेळपाक आयिल्ली. कथेंत आडकथा, पूण सांगचेंच पडटा. शरयू शर्मा ही गोंयात मुख्य सचीव म्हण वावर केल्ल्या सेवाराम शर्मा हांगेली घरकान्न. हिंदी लेखिका. गोंया आमची भेट जाल्ली. तिगेल्यो कांय कथा वाचून हांव भोव प्रभावीत जाल्लों. मदीं अचकीत विमान अपघातांत मरण आयिल्ल्या भावाच्या शोकान तिचें मन खंय थाऱ्यार नाशिल्ल्यान तिणें बरोवप सोडिल्लें. 'बीच में पडी चाबी' सारक्यो अप्रतीम कथा वाचून हांवें तिका आनीक कथा बरोवपाक प्रोत्साहीत केल्लें. तिणेंय तें मनार घेतिल्लें. आनी दिल्लीक परती वतकूच 'वोह घर सब से न्यारा' ह्या नांवान तिचो कथांचो झेलोय प्रकाशीत जाल्लो. आमी वांगडाच जेवपाक बाशिल्लेकडेन ॲनान म्हळें - म्हाका मन्नू भंडारीक मेळपाक जाय आसलें पूण ती कोणाक मेळना म्हूण आयकलां. ताचेर शरयून रोखडेंच सांगलें, मन्नू म्हजी शेजान्न आनी इश्टीण. तुमकां जाय जाल्यार हांव व्हरतां तुका थंय. ॲना खूश जाली. शरयून थंयच्यानूच मन्नू भंडारीक फोन करून सांगलें आनी तेच सांजेर शरयू , ॲना आनी हांव मन्नूक मेळपाक गेलीं. पयलीच भेट. पूण शरयून म्हजेविशीं मन्नूक पयलीं सांगिल्ल्यान तिकाय खंय म्हाका मेळापाची इत्सा आसली. शरयूक बरोवपाक प्रवृत्त करपी कोण ही शक्सियत तें जाणून घेवपाची तिका इत्सा आसली खंय. वरभर उलयली. 'कार्मेलीन' विशीं लेगीत उलयली. दुर्दैवान हांवें तिच्यो एक दोन कथा सोडल्यार विशेश कांय वाचूंक नासलें. वरभर खबरो मारून आमी परतलीं. ॲनाचें काम जाल्ल्यान तीय खूश जाली.

मन्नू भंडारी ही राजेंद्र यादवाची बायल म्हूण हांव जाणा आसलों. राजेंद्र यादव म्हाका इश्ट मानतालो. कार्मेलीन वाचून ताणें म्हाका चीट बरयिल्ली ती आजून हांवें जतनायेन दवरल्या. 'हंस' पत्रिकेचेर म्हगेली एक कथाय उजवाडाक आयिल्ली. गोंयां आयिल्ले कडेन रोहिताश्वा वांगडा मुजरत म्हाका मेळपाक आयिल्लो राजेंद्र यादव. आनी दिल्लीक आयल्यार मेळ्ळे बगर वचप ना अशी शिटकावणी दिल्ल्यान हांवें फुरसतीन ताका फोनूय केल्लो. दोन दिसांफाटीं राजेंद्र यादवान म्हाका सांजेर मेळपाक आपयिल्लो. 'हंस' पत्रिकेच्या ऑफिसांत वचून मेळिल्लों हांव. थंयसून राती आठांक म्हाका घेवन प्रॅस क्लब ऑफ इंडियाच्या रेस्टॉरंटांत गेल्लो. व्हिस्की आनी डिनराचेर आमी दोन वरां सारिल्लीं. उलयले तें सगळें साहित्या विशींच आसलें. यादवांकडेन मन्नू भंडारीचो विशय काडपाचो प्रस्नच नासलो. दोगांय वेगळीं रावतालीं इतलें हांव जाणा आसलों. तांचेमदीं कितें जाला तातूंत म्हाका मज नासली. मन्नूक मेळ्ळों तेन्ना तिचे कडेन तर हो विशय काडप म्हज्या उसुलांक धरून नासलें आनी सभ्यतायेक धरूनूय नासलें. शरयू शर्मा कडेन काडूं येतालो. पूण म्हाका तातूंत मज नासली. अजाप म्हळ्यार हांव मन्नू भंडारीक मेळून आयलों ताच्या दुसऱ्याच दिसा सकाळीं म्हाका फोन आयलो. "कैसे हैं आप? कल का दिन कैसे बीता?" म्हज्या लक्षांतच आयलें ना. ताणेंच फुडें विचारलें, "मन्नूसे मिलने गये थे ना? क्या बातें हुई?" हांव घुसपलों. राजेंद्र यादव लेखक-संपादक इतलीच म्हजी तांची वळख आसली. आनी मन्नू भंडारीही एक खडेगांठ अस्तुरीवादी लेखक म्हूण तिका मानतालों. तांचे पुरशी जिणेंत दखल घेवपाची म्हजी मातूय इत्सा नाशिल्ली. राजेंद्र यादवान विशय फुडें ताणून धरलो ना. हांव मन्नूक मेळपाक गेल्लों हें ताका मन्नूनच सांगलां आसतलें. ती वेगळीं रावतात तरी एकमेकांच्या संपर्कांत आसात अशेंय भायल्यान कानार आयिल्लें. पूण यादवान म्हाका फोन कित्याक करचो तें कारण म्हाका होलमलें ना. घडये, ताचे विशीं मन्नून म्हाका कितेंय सांगलां आसत अशें ताका दिसलें काय?

मन्नू राजेंद्राच्या मोगांत पडून लग्न जाल्ली. घोव-बायल आनी बरीं इश्ट म्हण जियेवपाची तिची इत्सा आसली. मन्नू एक संवेदनशील लेखक हें राजेंद्र वळखल्लो. दोगांय एकमेकांक पूरक जीण जियेतालीं - लग्नीक आनी साहित्यीक. 'एक इंच मुस्कान' ही दोगांनी संयुक्तपणान बरयिल्ली कादंबरी. मन्नूची पयली. नई कहानी चळवळींत तेन्ना राजेंद्र-मन्नू वांगडा कमलेश्वर, निर्मल वर्मा, कृष्णा सोबती, राकेश मोहन, भिषम साहानी इत्यादी नामनेक पाविल्ले साहित्यकार आसले. स्वातंत्र्यावांगडाच उद्देगीकरण आनी शारीकरणाक लागून लोकजीण कशी बदलत गेली तें ह्या लेखकांनी अधोरेखीत केल्लें. 'सारा आकाश' ही राजेंद्र यादवाली कादंबरी खूब गाजिल्ली. तिचेर बासू चॅटर्जीन त्याच नांवान सिनेमाय काडिल्लो. १९७४ वर्सा मन्नू भंडारीले 'यही सच है' हे कथेचेर बासू चटर्जीन 'रजनीगंधा' हें चलचित्र काडिल्लें. त्या काळावयलें हें चाकोरीभायलें हिंदी चलचित्र म्हाका खूब आवडिल्लें. विद्या सिन्हा, अमोल पालेकर, दिनेश ठाकूर अशा त्या काळावयल्या उदेत्या कलाकारांक घेवन काडिल्लें हें फिल्म राष्ट्रीय पुरस्कार जोडूंक पाविल्लें. मोग हे नाजूक भावनेक विचारीक बसका दिवपी ही कथा. राजेंद्राच्या सांगाताक रावनूय आपणाली विंगड अशी प्रतिमा मन्नून तयार केल्ली. आवय-बापायचो वेगळेचार भुरग्यांचे नदरेंतल्यान अभिव्यक्त करपी तिगेली साहित्यकृती 'आप की बण्टी' आनी उपेक्षितांचें अंतरंग, राजकारण आनी मनातलें अंतर्द्वंद दाखोवपी 'महाभोज' ह्या कादंबऱ्यांनी हिंदी साहित्यांतली तिगेली सुवात पकदस्त केली. मन्नून अस्तुरीवादाक नवें परिमाण दिलें. कसलोच संकोच वा मुर्वत बाळगिनासतना तिणें अस्तुरेचें लिंगीक, भावनीक, अर्थीक आनी मानसीक शोशण जाता ताचेर खरायेन बरयलें. साहित्याचेर एका काळार शेक गाजोवपी आदर्शवादाचे सुवातेर प्रखर वास्तववाद साणीर हाडलो. मध्यमवर्गाची संवेदना तिच्या साहित्यांतल्यान उलोवंक लागली. मन्नूची भेट जाल्या उपरांत तिगेल्यो कांय कथा हांवें मुजरत वाचल्यो. तिगेलो अस्तुरीवाद हो झगडाळ वा आडुवपी नासलो. तो मानवतावादी आनी परंपरीक मुल्ल्यांक उखलासून धरपी अस्तुरीवाद आसलो. दुर्देवान, चलयेक जल्म दिनाफुडेंच घोवाल्या आंगोस्तराची गजाल तिच्या कानांर पडली. तांचे मदीं वादूय जालो. पूण फुडें तो मनमौजी वागता अशें दिसलें तेन्ना मागीर तिणें बोवाळ करिनासतना अळंग कुशीक सरप पसंद केलें.

राजेंद्र यादव सरल्यार आयज आठ वर्सां उलगलीं. प्रॅस क्लबांतल्या डिनराउपरांत आमी दोन तीन वेळां मेळ्ळ्यात. पूण दोन पांच मिण्टांवयर गजाली जाल्यो नात. घडये म्हज्या मनांत ताचेविशीं ग्रह निर्माण जाल्लो आसूंये. मन्नू भंडारी कडेन संबंद आसतनाय ताणें दुसरे अस्तुरे कडेन दवरिल्ल्या संबंदांक लागून जावंये. पयल्या लग्नान जर सुख दिलें ना जाल्यार अवश्य भायले संबंद दवरचे, पूण पयलो संबंद तोडून, हें म्हजें वैयक्तीक मत. ती दुसरी अस्तुरी हीय एक साहित्यकार आसली. तेन्ना नवोदीत, आतांची प्रस्थापीत. लोकांक तोंड करून दिवपा इतलीं तीं लागीं आयलीं तेन्ना मन्नून धुवेक घेवन वेगळें रावपाचें थारायलें. आनी ती अखेरमेरेन निर्णायक दसून रावली. इतलें सगलें आयकल्लें तरी एक साहित्यकार म्हूण राजेंद्र यादव हांची सुवात म्हज्या मनांत अबादीत उरली. ताचे खासगी जिणेंत बागोवन पळोवपाचो म्हाका अधिकार नासलो. आनी म्हाका ताची केन्ना गरजूय दिसली ना. पूण एक मनीस म्हूण, साहित्यकार म्हूण, इश्ट म्हूण, आदर्श म्हूण पळयतना मनांत एके तरेची अढी निर्माण जाल्ली ती कशी पुसून वतली? दिल्लीच्या साहित्यीक वर्तुळांनी चर्चा जाताली. चडशे लोक, बायलां परस दादले चड, मन्नूची वट घेताले. मन्नू बिन्धास राजेंद्राक दुशण दिताली. पूण ताच्या गुणांचीय तोखणाय करताली. ''...हांव एकलीं रावतां ताचें म्हाका दुख्ख ना. ताच्या वांगडा रावनूय हांव एकलीच आसलें. आतां निदान म्हजे वांगडा हांव तरी आसां.'' म्हाका तरी ही स्पश्टोक्ती खूब मानवल्ली.

राजेंद्र यादवान मन्नू विशीं मखलाशी करून बरयिल्लेंय हांवें वाचलें. ''...मन्नू उन्हीं लोगों से मिलना-जुलना पसंद करती है जो पति लोग सज्जन हों, पत्नियों का हर कहना मानते हों, उनके साथ बाजार जाकर बेड-कवर, क्राकरी, साडी-पर्दे लाते हों। कभी अकेले बाहर घुमने न जाते हों। और सिनेमा के पास से तो बिना पत्नि को साथ लिए निकलते भी नहीं हों। ठीक साढे पांच बजे घर आते हों, रोज बता देते हों कि आज ये पकेगा...'' मन्नू विचारांनी बंडखोर आसली तरी प्रत्यक्षांत ती पारंपरीक मुल्ल्यां आनी जीण जियेवपी जाल्ल्यान तिचे कडेन जुळोवन घेवप कठीण जालां अशें राजेंद्र यादव म्हणटालो. पुरोगामी जीवन जियेवप म्हळ्यार स्वच्छंद जियेवप अशें ह्या साहित्यकाराक दिसतालें काय?

घोवा-बायलेची एकामेकां कडेन पळोवपाची अशी भिन्न नदर. ताका लागून हिन्दी साहित्यीक वातावरणांत तो चर्चेचो विशय जावन उरले बगर रावलो ना. म्हाका नाका आसुनूय गजाली कानार पडत उरल्यो. ते दुसरे अस्तुरेचें नांव चारचवगांत उकतेपणान घेवंक लागले. मैत्रेयी पुष्पा ही तर नामनेची साहित्यकार. तांचे साहित्यीक संबंद आसूं येतात. हांव अस्वस्थ जातालों. तेन्ना म्हज्या एका इश्टान सांगलें, ''आरे, तिका उलोवपाक संकोच दिसना जाल्यार आमकां कित्याक आसचो? तूं पुस्तक वाच तिगेलें- 'वह सफर था या मुकाम था'. अर्थात तिणें आपलें नाणे कशें खरें तें सांगलां. पूण वाचतल्याक कळटा न्हय?''

२०१३ वर्सा राजेंद्र यादव हांतुणार पडले तेन्ना इश्टां कडेन तांणी जे उद्गार काडले ते खंतीचे आनी पच्छत्तापाचे आसले, अशें वयलेचाराक दिसता. तांणी म्हणलें खंय, ''दो स्त्रियों की जिन्दगी का क़र्ज़ है मुझ पर.'' ताका उसरां जाल्ली ही उपरती काय? पूण पति, पत्नी और वोह ह्या त्रिकोणांत मन्नूची जी आवतिकाय जाली ताचें कितें? मोग केन्ना एकतर्फी आसता व्हय? राजेंद्र यादवा सारको व्हड साहित्यकार एके बायलेचो मोग करतनाच दुसरेक लागीं करपांतलो धोको वळखलो ना कसो? पूण यादवाक लागींच्यान वळखुपी एका साहित्यकार इश्टान ताची दुसरी वट म्हाका सांगली. ताणें म्हाकाच प्रस्न केलो, ''राजेंद्र

यादवान तिचो मोग केलो. हाचो अर्थ ताणें दुसरे अस्तुरे कडेन संबंद दवरचे न्हय अशें कित्याक मानता तूं?'' गजाल खरी जावंये. इश्टानच फुडें सांगलें, ''राजेंद्र यादव आजून मन्नूचो तितलोच मोग करता जितलो तो आदीं करतालो. आनी तीय ताचो करता, हें जाणा तर तूं? तीं दीसपट्टीं एकामेकांच्या संपर्कांत आसतात''. तागेलें आयकून म्हाकाय दुबाव आयलो, हांव मन्नूक मेळूंक गेल्लों हें मन्नूनच ताका सांगिल्लें काय? हांवें इश्टाक विचारलें, तशें जाल्यार तीं एकठांय कित्याक रावनात तर? तो हांसलो, तूं ताकाच कित्याक विचारना? ताचें भायर भितर कांय ना. सांगतलो तो. पूण म्हाका जाणून घेवपाची गरज दिसली ना. इश्ट म्हणपा इतलो कांय हांव ताका लागीं नासलों. पूण एक खरें, जेन्ना एक व्हड साहित्यकार आपणांक जिणें सर्वस्व ओंपलें ते आपले मोगिकेक विसरून थोडोसो काळ दुसरे अस्तुरे कडेन रत जाता तेन्ना तो इल्लोसो काळ सोडलो जाल्यार फुडारांत ताच्या वांट्याक फकत दुख्ख आनी उपरतीच येता. मन्नून ताका माफ केलो काय ताका ताच्या विचारांचें समर्थन करपाक सोडून दिलो तें तीच सांगूंक शकताली. पूण निमणे मेरेन ती ताचेसरीं गेली ना. एकलेंपण फकत यादवाच्याच वांट्याक आयलें अशें न्हय; मन्नू भंडारीकूय एकलेंपण भोगचें पडलें. फरक इतलोच की तिचे वांगडा तिची धूव रचना आसली. राजेंद्र यादवाच्या निमण्या दिसांनी हे धुवेनच ताची सेवा केली हें ताच्या वांट्याक आयिल्लें इलेंशें सूख.

घोवा-बायले मदीं जो पैसावो निर्मण जालो ताचो परिणाम मन्नूले साहित्य निर्मणेचेर कितलो जालो हें सांगूंक जावचें ना. तिगेली चली रचना म्हणटा- पैसावो आपणायत सावन ती खूब बदलली. तिचो हांसतो-खेळटो सभाव साप्प बदललो. ती एकसुरी जाल्लेवरी आपणाल्याच विचारांत शेणिल्ले भाशेन रावंक लागली. तिणें बरोवपाचें सोडलें ना. ''अभी तो मुझे बहुत कुछ और लिखना है'' म्हणटाली, पूण बरोवप चड जायनासलें. १९७९ वर्सा तिगेली 'महाभोज' कादंबरी उजवाडाक आयली. राजकारण आनी समाजकारणा वयली ही कादंबरी खूब गाजली. पूण त्या उपरांत तिगेलें सर्जनात्मक अशें अदीक साहित्य उजवाडाक आयलें ना. प्रतिभा आटली अशें म्हणूंक मेळचें ना. २००७ वर्सा तिगेली आत्मकथा 'एक कहानी यह भी' उजवाडाक आयली. तिचे जिणेचो आपरोस सांगपी हें कथन म्हळ्यार अप्रतीम साहित्यकृती अशें मानतात. ही आपजीण कोंकणींत आयली जाल्यार एके अस्तुरीवादी अस्तुरेचे जिणेंत अस्तुरी म्हूण आयिल्लें भोगणार आमच्या लेखकांक कळूंक पावतले. त्रिकोणांतलो एक कोण जावन जियेवपांतलो घुस्मटमार समजूंक पावतलो. घडये तातुंतल्यान प्रेरणा घेवन नवे तरेचें अस्तुरीवादी साहित्य तयार जावंक पावतलें.

संपर्क: 9422059509

*(हो लेख ७ डिसेंबराक आमचेकडेन पाविल्लो. मदीं ज्ञानपीठ पुरस्कार जाहीर जाल्ल्यान तो जानेवारीच्या अंकात येवपाचो उल्लो. - संपादक)*

***

# मन कुशबनः खाजें

**दादा हेगडे**



पुर्तुगाली राजवटींत धर्मांतरा वांगडा गोंयच्या मूळ खाणां जेवणांत लेगीत भरसण जायत गेली. हें मिसळावप न्हय धड गोंयचें, न्हय पुर्तुगाली अशें जाल्ल्यान मिस्तुराद रुचेचीं जेवणां तयार जालीं. दाळीचें गोडशें गेलें आनी तातयांचें बिबिंक आयलें. आमटाण, अटंबा, भिण्डां सोलांची सुवात विनेग्रान आडायली. ह्या सगल्या गजालींतल्यान खाजें मात सालवार जालें. खाजें हो प्रकार गोंय, दक्षीण कर्नाटक आनी कोंकण इतल्या पुरतो मर्यादीत आसूंये. गोडाचे आनी साकरेचे अशे दोन तरेचे खाज्याचे प्रकार आसात. गोडाचें खाजे गोड, आलें आनी धवे तीळ मिसळावन करतात. कांय जाण ह्या खाज्यांत केसरी खावपाचो रंग भरशीतात. साकरेचें खाजें धव्या रंगाचें. साकरेच्या पाकांत तयार जाता. दोनय खाज्यांची रूच वेगळी. ह्या भायर साकर आनी गोड घालनास्तना फकत खाज्याच्यो काडयो लेगीत करतात. कांय लोक हांकां काडयो-बडयो अशें म्हणटात.

म्हजें आजोळ कर्नाटकांत अंकोला, टेंकनकेरी नांवाच्या ल्हानश्या गांवांतलें. थंयसर एक देवीचें देउळ आसा. ह्या देवळाच्या वर्सुकी उत्सवाक म्हजी आवय 'भांडी जात्रा' म्हणटाली. गोंयच्या खंयच्याय देवळांतल्या जात्रेचो आवांठ जर पळयत जाल्यार हांव त्या जात्रेक गोंयच्या गांवांतलो 'कालो' म्हणीन. जात्रेंतल्या फेरयेंतले मांड थंय लेगीत आसतात. ह्या मांडांचेर खाजें विकतात. ताका थंयसर 'खाजेंमाजें' अशें म्हणटात. थंय गोडाच्या खाज्या परस साकरेच्या खाज्याक चड मागणी. एका वर्सा भांडी जात्रेचें खाजेंमाजें खावपाचो योग आयलो. तें खाल्या उपरांत गोंयचें खाजें पुर्तूगेजी खाणावळीच्या मिस्तुराती पासून कित्याक सालवार जावन उरलें हें गुपीत लक्षांत आयलें. गोंयच्या खाज्याच्या खास रुची पासत आयज ताका जात्रेंत मेळटा तितलोच भोवमान गोंयच्या फेस्तांनी मेळटा. कोंकणातलें फामाद मालवणी खाजें मुंबयच्या लोंकांक वर्सयभर मेळटा. तें प्लास्टीक पिशव्यांनी भरून विकतात. गोंयच्या ताज्या खाज्याची रूच घेवंची जाल्यार गांवांतले काले, फेस्तां ना जाल्यार जात्रांच्या फेरयेंत भोवंडी मारल्या बगर मेळप कुस्तार.

केपें कुसमण वाड्यार मामा काशिनाथ काणेकारालें बिराड आशिल्लें. मामा, मामी आनी तांचो एकलोच भुरगो इतलीच फामील. मामा काणेकारालें केपें बाजारांत च्याचें हॉटेल आशिल्लें. पूण मामा 'खाज्या' पासत चड फामाद आशिल्लो. चवथी परबेच्या एका म्हयन्या उपरांत, म्हयनो काबार जाता त्या वेळार मामाच्या बिऱ्हाडांत आनीक कांय लोकांची भर पडटाली. हातुंतले चड लोक बोरी फोंडें गांवच्या लागसल्ल्या वाठारांतले आसताले. आमी तांकां खाजेकार म्हणटाले. तातूंतले चडशे जुवान आसताले. एका ल्हानशा लोजा वरी घरांत मामा रावतालो. घराच्या एका अर्दान चुडटांचें बागेल आशिल्लें. हें बागेल खाजें आनी हेर प्रकार तयार करपाचें मामालें 'मेगा किचन' अशें म्हणूं येता. गोंयचे काले, फेरी, फेस्तां आनी जात्रांनी मामाल्या मांडानी विकचे पासत ह्या मेगा किचनांत खाज्या वांगडा हेर गजाली लेगीत तयार जाताल्यो. सुक्या कोंड्या बडयेच्या आदारान बांदिल्ल्या रचणुकेचेर धवी दाट एलीफांत गुठलावन, लोखंडाच्या बसकेर तरेतरेचीं खाणां, मिठायेची रचणाय केल्ले ल्हान तात्पुरतें दुकान म्हणल्यार फेरयेंतलो मांड. ह्या मांडाच्या फाटल्या आडवणीचेर एक व्हड बोर्ड लायिल्लो आसता. ताचेर 'श्री अमुक अमुक प्रसन्न' आनी ताच्या खाला मराठीन व्हड अक्षरांत 'इथे अमके अमक्याचे ताजे खाजे मिळेल' हें वाचूंक मेळटा. फेस्तांनी लेगीत तोच बोर्ड आसता. 'फ्रेश खाजें अवेयलेबल हियर' अशें अजून तरी म्हज्या नजरेंत वचूंक ना.

कुसमणा बाजारांत वतना कायलींतल्या सळसळत्या तेलाचो आनी चण्या दाळीचो गोड असो मिश्रीत वास नाकांत गेलो की समजुपाचें मामालें खाजें करपाक सुरु जालां. म्हाका आमीगागेर खेळपाक वतना मामाल्या मॅगा कीचना कडसून पासार जावचें पडटालें. चिऱ्याच्या फातरार माती थापटून वाटकुळ्या आकाराच्या चुलीचेर व्हड लोखंडाची कायल, तिवूय साप्प काळे रंगाची. कायलीर खाज्याच्यो काडयो करचे पासत तशीच एक चाळण. जुस्त कालयिल्ल्या चण्या दाळीचें पीठ चाळणीर घाले उपरांत खाजेकार तें हातांनी चाळणीर घांसतालो. सळसळट्या तेलांत त्या पिठाच्यो काडयो पडल्या बराबर त्यो तळूंक सुरु जाताल्यो. बेसनाचो रंग सोडून मातये रंग येवंक लागलो, कीं समजूपाचें खाज्या काडी तयार जाली. तयार जाल्ल्या त्या काडयांची लागसारुच रास घाल्ली आसताली. ह्यो काडयो गोडाचो पाक, आलें आनी धव्या तिळान भरशिल्या उपरांत ताजें खाजें तयार!!! कांय जाण तांकां खाज्या बोयो अशें म्हणटात. आमी सगले खेळूंक वतना थंयसांवन पासार जाताले. त्या वेळार तयार गरम खाज्याच्यो एक दोन

बोयो ल्हवूच तोंडांत उडयताले. खाजें करपी मानाय ही गजाल पळोवन लेगीत पळयले नाशिल्ले वरी करतालो. ताच्या ह्या नजरआडीच्या कर्तुबान त्या हळूच तोंडांत घाल्ल्या खाज्या बोयेच्या रुचींत एक वेगळीच अपुरबायेची गोडसाण आसताली! ह्या भायर कांय वेळार गोल सुळसुळीत आडव्या लाकडाचेर पातळ आनी सामको दाटूय न्ही असो भांगरा कोराचो लोळको लांबतना दिसतालो. तो दिसल्या बराबर आमचे सगल्यांचे पांय थंयसरूच थांबताले. त्या गुळ्याच्यो मुखार 'रेवडी' जाताल्यो. तो गुळो ओडून ओडून ताच्यो लांब काडयो केल्या उपरांत त्यो सुकच्या आदीं ताचे ल्हान कुडके करप. हाका रेवडी मारप अशें म्हणटात. त्यो रेवड्यो धव्या तिळांनी भरसुपाच्या आदीं तोणांत वचूंक जाय. ती रूच सामकी आगळी. आमी तोंडांत उडयलेली मेकळी रेवडी चोखीत चोखीत ती विरगळटा मेरेन खेळा मळार पावताले. जांव खाज्या काडी वा रेवडी आपल्या मुळाव्या रुपांत रुचीक आसता. उपरांत जशी गोडांत नाजाल्यार तिळांत भरशिली काय अदीक रुचीक जाता. पूण दोगूय आप आपली मुळावी रूच सोडनात. साप नीज गोंयकारावरी!

म्हज्या भूरगेपणांत पाड्डे पर्वतावेली श्री चंद्रेश्वर भुतनाथ देवांची आनी घुड्यावेली श्री चामुंडेश्वरी देवीची जात्रा सामकी फामाद. दोनय कुसमणां लागसारच्यो जाल्ल्यान आमच्यो व्हडा उमेदीच्यो जात्रा आशिल्ल्यो. केप्यां 'जनता टॉकिज' नांवाच्या एका गुदांववजा सुवातेर त्या वेळार सिनेमा दाखयताले. मुखावेल्या बाकड्यांचेर बसपाचे मोल आठ आणे, फाटल्यान लाकडी कदेलांचेर बसपाचें मोल एक रुपया तीस पैशे अशें आशिल्लें. घरच्यान जात्रेत खर्चाक म्हूण आमकां चडावत दोन रुपया मेळटाले. त्या थेटरांतलो निमणो शो साडेबारां वरां मेरेन सोंपतालो. सिनेमा कसलोय आसना, तो पळवपाचोच अशें थारिल्लें. आठ आणे थंय खरचिल्या उपरांत मद्यान राती उरिल्या पैशांचो सांठो बोलसांत सांबाळीत आमी सगले आमीग पाड्डेंच्या वाटेन कूच करताले. आमच्या पायदळांत दोग जाण तरी माडार चडपी सैनीक आसताले. वाटेवेल्या सरकारी माडांचेर हल्लो करून आडसरां पाडपाक ते उपेगांत येताले. माडावेल्या आडसरांचो अवेळी केल्लो पाडो फस्त करप ही एक मजा कशी आशिल्ली. आमी करतात ती मजा नासून आडसरांची चोरी अशी भावना आमच्या मनांत केन्नाच आयली ना. कारण त्या वयार आमचो मेंदू कंवळ्या आडसरा कातले इतलोच तयार जाल्लो अशिल्लो. ह्या सगल्या घडामोडींची उजवाड येवजण 'चैत्राची पुनव' सांबाळटाली. तिवूय कसलीच अडचण हाडी नासतना. चार पांच किलोमीटर लेफ्ट-रायट करत पर्वताच्या मुळसांत देवाची भेट घेतल्या उपरांत चंद्रनाथ पर्वत चडपाक सुरु जातालें. चडचे वाटेर सोपणां चडटना पुरो जाल्यार लेगीत आवयस अशें म्हणीत स्वास घेवप ना. तशें केल्यार देवांक राग येता अशें आमच्या मजगतीं कांय जाणांचें म्हणणें आशिल्लें. थळांत पावचे आदीं कुल्ल्यां व्हाळ लागतालो. पावसांत तो भरून व्हांवता. त्या वेळार ह्या व्हाळांत काळ्यो खडपी कुल्ल्यो मेळटात. ह्या व्हाळा लागसार 'अम्मा' जात्रेक येतल्या वतल्याक पिवंक उदक दिवपाची सेवा करताली. 'अम्मा' म्हणल्यार अन्नपुर्णो अय्यर. हिणे नावेली मिलिटरी केम्पा लागसार ल्हानश्या सुवातेर श्री गणपती- मुरुगन ह्या दोन देव भांवडाचें देवूळ बांदलां. अन्नदाना पासत तें नामनेचें जालां. उबी सोपणां चडून जाल्ल्यान वाटेर पिल्ल्या कंवळ्या आडसराचें उदक घामा रुपांतल्यान आंग भिजोवन उडयतालें. मार्च म्हयन्याच्या सुरवेच्या कालोरान ताळो सुकिल्लो आसतालो. त्या वेळार अम्मान दिल्लें तें पर्वतावेल्या थळांतल्या थंड झरीचें उदक अमृततुल्य कशें लागतालें.

फांतोडेर दोन अडेच वरां आमी पर्वताच्या तेंगशेर श्री चंद्रेश्वराच्या पायांकडेन पावताले. देवाची भेट घेवन जाली रे जाली आमची फेरयेंतली भोवंडी सुरु जाताली. वयर पांच ते स खाज्याचें मांड आसताले. मांडासामकार आमच्या मर्दी पिरायेन व्हड आशिल्ल्या आमिगान व्हडा आवाजांत 'कशें कील दिलां रे खाजें?' अशी वासपूस करप. ताची ती वासपूस तोंडांत एक खाज्या बोय उडयले बगर जाय नासली. प्रेस विचारपाचो ताचो आव असो आसतालो जसो आमी तागेल्या खाज्याचें वजेंच विकतें घेवंक आयल्यात! ती वासपूस पुराय जाता मेरेन आमी हेरांनीय दोन ते तीन खाज्या बोयो तोंडात उडयिल्ल्यो आसताल्यो. मांडकार खाज्याचो प्रेस ताका सांगच्या आदी आमी हेर सगले थंयसावन मुखार सटकताले. सगल्या कडेन खाज्याचें अशेंच मुल्यांकन जाता मेरेन तरेकवार खाजें उश्टावपाचें आमचें मिशन पुराय जाल्लें आसतालें. हीं नाडेपेन्नां मात मामा काणेकाराल्या खाज्या मांडार चल नासलीं. मामाल्या मांडावेले मानाय धरून हेर सगले आमकां तकले सावन भितल्ले काश्टे मेरेन पुराय वळखून आशिल्ले. मामालो पूत मांडार आसल्यार आमची बरे तरेन वासपूस करतालो. तो मेरेन जर ताणेन बरें गिरायक केल्लें आसत तर आमच्या सगल्यांच्या हाताचेर एक रेवडी नाजाल्यार गडद केसरी रंगाचो मोव बुंदीचो लाडू पडटालो. महारथ जाल्या उपरांत फुकट खाल्ल्या खाज्याची गोडसाण जीबेर घोळयत आमी सगले आपआपल्या घरा परतताले.

पाड्डे घुड्यावेल्या श्री चामुंडेश्वरीच्या जात्रेच्या फेरयेंत लेगीत हीच मांडणी आसताली. फकत हांगासर पर्वत चडचो पडनासलो. ह्या जात्रेक वतना पाड्डयां पावचे आदीं कुशावती न्हंय एका शोर्टकटान हुंपची पडटाली. हो शोर्टकट पाड्डयां रावपी हिंदू ग्रामस्थांच्या मसुंडे लागसार आशिल्लो. एका वर्सा रातचो मळबांत धुमकेतू दिसता. तोवूय मरणाचो काशांव आनी ताच्या चोंय वटेन पेटिल्ल्या मेणवाती वांगडा एक बायल अश्या रूपांत दिसता म्हणपाची कोणे तरी खबर हाडिल्ली. त्या राती शोर्टकटा कडेन पावतनाच वेल्यान कितें तरी पडलें. धप्प असो व्हड आवाज जालो. सगल्यांचीं काळजां भिवन गळ्यामेरेन पावलीं. धुमकेतूच्या भंयान कोणच फाटी वा वयर पळोवंक तयार ना. धिटायेन आनी बारीकसाणेन नियाळल्या उपरांत तो आवाज एका माडावेल्यान सुकून पडिल्ल्या नाल्ल्याचो म्हण कळ्ळें. त्या बराबर आमी सगले सडसडीत घुड्यार फेरयेंत गेले.

कालांतरान लागसारच्यो जायत्यो जात्रा, फेस्तां, दिंडी, काले केले. बदल म्हणल्यार आमीगांचे सुवातेर फामील आयली. चलत वचचे जाग्यार वाहनां आयलीं. चैत्र पुनवेचें चान्नें गाडयांच्या हॅलोजन,

*(पान २५ चेर)*

# अश्टपैलू मुकेश

**शीला कोळंबकार**

The true work of art is but a shadow of the divine perfection. - Michelangelo.

एक दीस हेमा नायकालें म्हाका पत्र आयलें. तापोवनशें बरयलें. कितें गो, तुज्यो कथा मुकेश थळीन इंग्लीशींत अनुवादीत केल्यात. त्यो नवहिंद टायम्सांत छापून आयल्यात. आनी तुवें ताका सादें थँक्स म्हणपी सादें पत्र बरोवप ना?

म्हाका अजाप दिसलें. हांव मुकेशाक तशें वळखनासलें. ताचें नांव आयकल्लें. हांव हांगा मुंबय! म्हजीं भुरगीं आनी म्हजो संवसार हातूंत घुस्पून उरिल्लें. हांगा म्हाका नवहिन्द टायम्स मेळनाशिल्लो. म्हज्या घरच्यांनीय पणजेंतल्यान कांय कळोवंक नाशिल्लें. कोंकणीच्या मळावेल्यो नविदादी म्हाका रवीन्द्रबाबाल्या पत्रावेल्यान कळटाल्यो. तांणीय तशें कांयच कळोवंक नासलें. हांवें हेमाक तशें बरयलें. म्हळें, म्हाका त्या वर्तमानपत्रांतलीं कात्रणां धाडून दी. मुकेश थळीचो पत्तोय धाडून दी. ताणें कात्रणां आनी पत्तो धाडून दिलो. आनी वयल्यान बरयलें, ''आवंय, तूं मुकेशाक वळखना? गोवा रेडीयोच्यो मुंबय मेरेन पावपी मुकेशाल्या आवाजांतल्यो बातम्योय आयकना?''



मागीर प्रत्यक्ष मुकेशाक मेळप जालें तें भुरग्यांलो राजहंस नेमाळ्या खातीर प्रभाकर भिडेन आयोजित केल्ले एके कार्यावळींत. ल्हान आशिल्लो मुकेश. अदबीन उलयलो. मात्सो पयसूच राविल्लो.

'म्हजे वायटपणांतले अणभव', म्हूण एक लेख हांवें जाग नेमाळ्याचेर बरयल्लो. तो वाचून ताणें म्हाका एक पत्र बरयलें. वांगडा 'वळेसर' हें आपले ललीत निबंदांचें पुस्तक धाडून दिलें. हांवें पत्राची जाप दिली - बरयलें - आरे, तूं इतलो ल्हान, तुवें बरयलां तें इतलें आध्यात्मिक आनी भारदस्त. तें म्हजें तकलेवेल्यान गेलें.

मागीर एक खेपे गोंयांत गेल्ले कडेन ताणें म्हाका पणजी रेडीयोचेर आपोवन व्हेलें. तेन्ना मात तो मेकळेपणान उलयलो. थंय तो म्हजे 'मॅगी' हे कथेचेर भरभरून उलयलो. मॅगीन फोंडकुलांत अशें पळयलें, ती पोझ मॅगी आशिल्ले भशेन ताणें करून दाखयली. म्हाका ताची लकुबाय दिसली.

कोंकणी साहित्य संमेलनाचें हांव अध्यक्ष आशिल्लें, तेन्ना पणजी टीव्हीचेर म्हजी मुलाखत घेवपाक मुकेश आयिल्लो. तेन्ना ताणे विचारलें, ''खंयची साडी न्हेसतलें?'' हांवें दोन तीन साडयो ताका व्हरून दाखयल्यो. ''खंयची न्हेसूं?'' हांवें ताकाच विचारलें. ताणें एके साडये कडेन बोट दाखयलें. ती साडी न्हेसून हांव ताचे बरोबर गेलें. वाटेर ताका विचारलें, ''हीच साडी न्हेस अशें कित्याक म्हळें रे तुवें?'' ताणें सांगलें, थोडे रंग टीव्हीचेर भडकशे दिसतात. धवे उपेगूच ना. थोडे कलर प्रत्यक्षांत बरे दिसलेनात तरी टीव्हीचेर ते सुंदर दिसतात. हें शास्त्र आमकां शिकयलां.

म्हाका दिसलें... बापाय! हो भुरगो बरोच चोखंदळ आनी पार्टीकुलर. परफेक्शनीस्ट. इतल्या साद्या गजालींनी लेगीत बारीकसाण? नवें नवें शिकत रावपाची ताची जिज्ञासू वृत्ती आवडली.

मागीर आमची मैत्री वाडत गेली. पयलीं पत्रापत्री जाताली. मागीर आमगेर फोन आयलो. तेन्नासावन फोनाफोनी सुरू जाली.

२०१३त, पणजे मुकेशाच्या चाहत्यांनी आनी मित्रांनी एक गडगंज कार्यावळ घडोवन हाडली. कारण आशिल्लें मुकेशाली पन्नाशी. त्या दिसा 'जीवनगंध' हो ताचो ललीत निबंद झेलो उजवाडाक आयिल्लो. मुकेशाचो व्हडलो भाव आदोगाद अमोल पुस्तकाचो प्रकाशक. अमोलान म्हाका एक गेस्ट म्हूण आपयिल्लें. आयोजन ग्रांद. सुरेशबाब आमोणकार हांचें मुखेल उलोवप जालें. तातूंत तांणी केल्लें एकमेव निरिक्षण म्हाका अजून याद जाता. तांणी म्हळें, इतलो वेळ सगळे मुकेश तीन वर्सां शिक्षक आशिल्लो अशें सांगत आसात. तो आयजूय शिक्षक आसाच. ताच्या प्रत्येक लेखांतल्यान आनी निबंदांतल्यान ताणें सोडिल्ले संकेतक आनी अंत:प्रवाह हातूंतल्यान हें सिध्द जाता. तो थेट सांगना. तें तिरपें कशें सांगूंक जाय तें सभ्य सुसंस्कृत पध्दतीन शिटकायता. वाचकांक आकलन करून घेवचें पडटा. उतरां पोंदचे शाणेपणाचे आनी अर्थबोधाचे झरे सोदून काडचे पडटात.

ललीत गद्यांत लेखकाच्या व्यक्तिमत्वाचें पडबिंब दिसता. खेरीज स्मरणरंजन हो ललीत लेखनाचो गाभो. अशे तरेच्या लेखनांत फक्त यादींची वळेरी दिली म्हूण जायना. उत्तम दर्जाच्या लेखनांत बरोवप्याच्या संवेदनशील मनाचें पडबिंब आपशींच आयिल्लें आसूंक जाय. त्याच वेळार त्या पडबिंबान संवेदनशील वाचप्यांक लेगीत अस्वस्थ करून उडोवंक जाय.

मुकेशाले स्मरणरंजनात्मक लेख आमकां आमच्या स्मरणरंजनांत भोंवडावन हाडटात. 'झुळझुळपी व्हाळ' म्हळें काय उडयो मारीत व्हांवपी व्हाळ आमचें भुरगेपण जागयता. 'कुळागर' वाचून आमी आमच्या मनांतल्या कुळागरांत पावतात. थंयच्या कुळागराच्या थंड सावळेंत वचून व्हांवत्या पाटांत पांय बुडोवन, पाटा वांगडा पासय मारतात. त्या यादींनी मन प्रसन्न जाता. लेखक हांगा आमच्या मुखार हारसो दवरता. सांगता, पळेयात ह्या हारशांत. तुमचीं पयलींचीं घरां.

मागीलदारां, ते गोठे, तीं गोरवां, तीं कुळागरां... तुमच्या मुखारूच ना नपश्यात जायत वतात. आमी मात तें आडावपा पासत कांयच करिनात. हो विचार अस्वस्थ करता.

हालींच म्हणींचो कोश संकलीत करपी मनोहर पै धुंगट संवसाराक अंतरले. ते पयलीं केन्नाय मुंबय रेडियोचेर मेळटाले. अतिशय चोखंदळ आनी व्यासंगी वाचक. म्हजें साहित्य वाचून पत्रां बरोवन फिडबॅक दिवपी. तांचे कडेन फोनार उलोवप जातालें. एक दीस तांणी म्हाका म्हळें - तुजे निबंद 'मिडल' म्हणटात तशे! हांव आयकत उरलें. तांणी मुखार म्हळें - ते हलकेफुलके आसतात. कांय निबंद समृध्द, संपन्न आनी घसघशीत आसतात. अफाट वाचन, व्यासंग, अणभव, निरीक्षण हातूंतल्यान आयिल्लें भाशेचें, चिंतनाचें, विचारांचें तेज तातूंत आसता. मुकेश थळीचे लेख अशे तरेचे. मुकेशाले निबंद कोंकणींतले श्रेष्ठ निबंद अशें म्हाका दिसता.

धुंगटबाबालीं उतरां आयकून म्हाका मुकेशालो दुस्वासूच दिसलो.

मुकेशाली मुशाफिरी कितल्याशाच मळांचेर. थळी घराणें कलाकारांचें, साहित्यकारांचें, गायक वादकांचें. बुदवंत. म्हजी आनी अना म्हांबऱ्याची मुलाखत गोवा कोंकणी अकादेमीन आयोजीत केल्ली. पणजे कला अकादेमीत. ब्लॅक बॉक्स सभाघरांत. मुलाखतकार मुकेशान पयलीं प्रस्न मुंबयत धाडून दिले. आमी गोंयांत येतकच परत पणजे घरा येवन कांय दिग्दर्शन करून तो गेलो. ताच्यांत एक परफॉर्मर कलाकार आसा. ही मुलाखत रंगली. सोप्यार बसून खबरी मारिल्लेवरी जाली. म्हजे यादींतली ही मुलाखत.

मुकेशान नाटकां बरयलीं. अणकारीत केलीं. अजित केरकारा सारक्या म्हान नटान तीं सादर केलीं, तांच्या पंगडा वरवीं. संवाद कुरकुरीत, सुटसुटीत कशे आसचे हाची देख ताणें दिली आनी आपली छाप रंगमंचार सोडली. हांवें ताचीं नाटकां पळेल्यांत. अप्रतिम. कादंबरी सोडल्यार हाणें सगळें बरयलां.

मुकेशालो म्हाका सगळ्यांत आवडिल्लो लेख म्हळ्यार - हांव हो असो. कित्याक जाल्यार तो खोल खोल काळजांतल्यान सहज किल्लून वयर आयला. खरें म्हळ्यार हो लेख हें मुकेशाल्या अंतरंगांचें शब्दचित्र. संगीत मैफलींत, जावं तें गायन वा वादन आसूं, तानपुऱ्याचो नाजाल्यार सूरपेटयेचो सूर दिल्लो दिसता. तसो एक सूर मुकेशाल्या बरपा पोंदा किणकिणत आसता. कसलो हो सूर? सत्याचो मनीसपणाचो. गायक, वादक, नर्तक सम दाखयता तसो मुकेश, हांव हो असो, ह्या लेखा वरवीं समेर आयला.

मुकेशाली वळख फक्त निबंधकार अशी आमच्यांनी करूं नजो. ताणें कथाय बरयल्यात. ताची 'दो रे मी फा' ही कोंकणीतली एक उत्कृश्ट कथा. ताणें कविता, गितां, नाटकां बरयल्यांत. बरो सूत्रसंचालक, क्विझ मास्टर, मुलाखतकार म्हूण नामना मेळयल्या. ताणें खूब कथा इंग्लीशींत अणकारल्यात. पन्नाशेक. त्या अणकारीत कथांचें पुस्तक येवंक जाय. ताणें अणकारीत केल्ल्यो म्हज्यो कांय कथा हांवें मुंबय रावपी सुप्रसिध्द मल्याळी कथाकार मानसी हिका दिल्ल्यो. तिणें म्हाका सांगलें - The translation is incredibly powerful. म्हज्या कथांचेर ती कांयच उलयलिना.

मुकेशान हजारा वयर शब्दाळीं केल्यांत आसतलीं. प्रस्नमंजुशाय ताणें घेतल्यात. प्रस्नमंजुशेंत गोंयची संस्कृती, इतिहास, भुगोल, साहित्य हांचेर प्रस्न आसात. ते प्रस्न आनी जापो पुस्तक रूपांत येवंक जाय. आयचीं भुरगीं खेळटां खेळटां शिकूंक पावतलीं. गोंयचें ज्ञान तांकां मेळटलें.

कोवीडा वेळार जग ताण आनी चेपणा खाला आयिल्लें. भयग्रस्त जाल्लें. अनिश्चिततायेचो स्ट्रेस भरिल्लो. अशा वेळार मुकेशाली प्रतिभा चंवरली. ताणें शेंकड्यांनी लेख निबंद बरयले. गितां बरयलीं. व्हिडियो केले. कित्याक जाल्यार, भयग्रस्त लोकांच्या काळजाक थाकाय दिवपाक. तांच्या दुख्खार ल्हवूच फूंक मारपाक. खूब लेखक कलाकार गप्प आशिल्ले तेन्ना ताणें दिल्लें हें मोटें योगदान.

आतां जाल्यार ताची लेखणी मराठींतूय तळपूंक लागल्या. गोंयकारां मदलें भांगर, माणकां, मोतयां, हिरे, रत्नां सोदून काडून तांचेर समृध्द घसघशीत, रसरशीत व्यक्तिचित्रणात्मक निबंद ताणें बरयल्यात. हें सदर एका खबरेपत्रांत सुरू आसा. लांकडी वा फातराची वा संगमरवरी शिल्पकृती कोरांतून काडची, तशे तरेन मुकेशान हीं व्यक्तिचित्रणां शब्दशिल्पांच्या रूपान आमच्या मुखार दवरल्यांत.

मुकेशान म्हजे कडेन आनी हांवें ताचे कडेन खूब वाद घाले. तो ताचें म्हणणें एक खेपे दांतांत धरीत जाल्यार कशेंच सोडिना. आपलें म्हणणें पटोवन दिवपाक तो शंबरेक आर्तीग लायता. आपलें तेंच खरें करता. सदांच तोच जिखता. पूण चुकून ताची चूक ताका होलमली जाल्यार तो इतले खेपे सॉरी म्हणटा... पाड पडूं! हांवें हाका हाची ओगीच चूक दाखयली अशें जाता ... आमी झगडटात, वाद घालतात. हांव ताचेर तापलां, ताका खेपला, उजरायला लेगीत. पूण ताणें म्हजे वडीलकीचो, जाण्टेपणाचो रेश्पेद सदांच राखला.

केन्नासावन मुकेशाचेर बरयतलें बरयतलें म्हणटालें. पूण उलयतां, उलयतां ताचे भितरले जायते गूण म्हज्या लक्षांत येताले. तो चेस म्हळ्यार बुद्धीबळ बरो खेळटा. हांव तो खेळ फक्त पळोवन जाणा. गणितांतलें अंकगणित, बीजगणित, भूमिती, ट्रिग्नोमेट्री बी नांवां आयकून खबर आसलीं. कलनशास्त्र, डिफरन्शियल समीकरण, कॉर्डिनेट भुमिती म्हळ्यार म्हजे खातीर रानांत पावस!

केन्नाय कच्च करून हांव न्हिदेंतल्यान जागें जाता. स्वप्न पडिल्लें आसता. गणिताचो पेपर सुरू जाला. म्हाका कांयच येना.

तेन्ना... तुज्या गणिताचेर हांव कितें बरोवं? जाणा मरे मुकेश, जिणेचें रहस्य सोदपी, नितळ काळजाचो मनीस म्हूण आनी सातत्यान सगळ्या भाशांनी संख्यात्मक, गुणात्मक पांवड्यार नेमान बरोवपी अश्टपैलू सर्जक म्हूण तुका मेजपाक म्हजें मापटें उणें पडटा रे...

संपर्क: 9819315307

***

# यमनांतलो यमन...

**उल्हास पै रायकार**

'समिक्षा म्हळ्यार साहित्याची विदर्णा करपी एक रुक्ष, निष्ठूर वेव्हार न्हय जाल्यार साहित्याचो आपरोस, ताचो आंगलोट, ताचें एकजीनसीपण आनी ताचो दिश्टाचो वाचप्यांमेरेन पावोवपी एक संवेदनशील प्रक्रिया.' डॉ. किरण बुडकुलेन हें अशें बेसबरें सांगलां. हे प्रक्रियेक संवेदनशील करपाक साहित्यांतलो रुप,रस आनी गंध हांका मनान सांसपुचें पडटा, स्पर्श करचो पडटा. साहित्यांतलें अभिव्यक्तीचें एक रुप म्हळ्यार कविता.

खंयच्याय आकाराक कवी स्पर्श करता तेन्ना ताची प्रतिभा परजळटा. उपरांत येतात तीं निराकारांतलीं स्पंदनां आनी तातूंतल्यान आकाराक येता ती कविता. श्री. माधव बोरकाराच्या 'यमन' ह्या कविताझेल्यांतली 'बाळकृष्ण' ही कविता पळेयात.

*तुजें*
*जायवळ सांसपितना*
*सगळें विश्वूच*
*बाळकृष्ण जावन*
*म्हजे*
*व्हॉटयेंत खेळटा...*

माधवबाबाची कविता समजूपाक ती अशीच जायवळ सांसपिल्लेवरी सांसपूची पडटा. तशें केल्यारुच 'यमनाचीं' स्पंदना हांव तुमचेमेरेन पावयन.

'बाळकृष्ण' कवितेची देख हातान केल्ल्या स्पर्शाची. खंयचोय कवी नदरेंतल्यानूय स्पर्श करता आनी नदरेन दिसना ताका मनानूय. मागीर येता ती अनुभुती. ती तो कवितेच्या रुपान मांडटा.

कवी माधवबाबाची कविता उक्तावपाच्या प्रक्रियेचें मूळ ताच्या ह्या कवितेंत मेळटा, जाल्यार ती प्रक्रिया ताच्या 'माणकुलो' हे कवितेंत दिसता. भुरग्याक तोखेतना तो आपुणूय भुरगो जाता.

*माणकुलो झोंपाळ्यार बसता*
*वाऱ्यान निर्गुणांत धोलता...*

कवी हो निर्गुणाचो भक्त. देखून निर्गुणांत रमत रमत आकार उक्तायता. माणकुलो हो आकाराचें प्रतीक. ह्या कवितेंतल्या माणकुल्याक वारो धोलयता. वारो होय मळबावरी सर्वव्यापी अशें आसुनूय ताका कोणाच्यान व्यापूंक जायना. वाऱ्याक लागून माणकुलो धोलता, तोय निर्गुणांत. रस आस्वादनाची ताची क्रिया पुराय जाल्या आसूंक जाय. थंय धोलप येता आनी निर्गुणाच्या वाटेची सुलूस लागता. माणकुल्याची ही प्रतिमा पळेतकच म्हाका मनासारको स्वर लागतकच धोलपी पं. भीमसेन जोशींची भावमुर्ती याद जाता. त्या माणकुल्यांत माधवबाब आसात. कवीचो संसार हो वेगळ्या पांवड्यावेलो आसता, तो असो.

एक शक्तीच कवीक आपल्या अंशाची जाणविकाय करुन दिता तेन्ना निराकारांतलो अंश आकार येता. ही जाणविकाय म्हळ्यार प्रतिभा. ती चड म्हत्वाची. जाणविकाय जाल्ल्या कवीक आपणें उक्तायल्या आकारांतूय परत निराकार सोदपाची ओड आसता. ह्या ओडीचें व्हांवतें रुप माधवबाबान आपल्या 'कविता' ह्या कवितेंत अशें उक्तायलां-




*कविता:*
*पैसाचो वेध घेवपी*
*दिश्टाव्याचे दिठये*
*भशेन...*

तेखातीर आपली कविता वयलेवयर वाचची न्हय अशी विनंती कवी नमळायेन करता, ती अशी-

*खुट्टं नाका मोने कळे*
*फकत*
*वेंच तुजे व्हॉटयेत*
*काळजातळा सांडिल्लीं*
*म्होवान दैंठ भरिल्लीं*
*कवितेची फुलां.*

हातूंतलें 'फकत' ह्या उतराची मांडणी पळेयात. तशें पळेल्यार ही रसीकांक विनंती आनी आस्वादकांक सुचोवणी.

आपल्या कवितेची रुच कशी घेवंची हें सांगपाक ती कविता कशी आनी तिचो अर्थ म्हळ्यार कितें हें कवी कवितेंल्यानूच सांगता. आपणाल्या कवितेच्या अर्थाक शिमो मेरो आसच्यो न्हय आनी अनंत विश्वूच वेंगेंत येवचें अशी ताची इत्सा. तेन्ना कितें जातलें...

*उतरां उलयनात*
*तांकां*
*मोनेळींत फुट्टात*
*अनंत अर्थाचे आंकूर...*

'उतर' ह्या उतराचो अर्थ सांसपितना तांची एक कविता अर्थाची अपुर्बाय अशी करता

*दोन उतरां*
*मदलें अंतर*
*तेंच तर*
*तुजें म्हजें घर...*

आमचें आस्वादन सुगम करीत कवी सांगता -

*अर्थाक हांव*
*उतरांच्या*
*कायेंत पळयतां*
*अर्थाक हांव*
*अनंताचे*
*मायेन केळयतां...*

हातूंतलीं 'उतरांच्या' आनी 'अनंताचे' हीं उतरां एकोडीं घेवन कवीन 'उतरां'ची अर्थसया 'अनंता'त रेवडायल्या.

माधवबाबाच्या कवितेंतलीं 'उतरां अळंग टपटपीत पडपी आटापशीर पावसाच्या थेंब्यांवरी. पयलीं घसघसून पडप हो पावसाचो रियाज कसो. उपरांत तो मागीर थारावन पडिल्लेवरी टपटपीत पडटा. कवीचो बरो रिमाज जातकच पानार देंविल्लीं उतरांय अशींच आसतात -पळेयात -

*सांगून येना*
*असली वेळ*
*- सुटली केळ...*

उतरांचे फकत स थेंबे टपटावन सृजनायेचो कितलो खोलायेचो हो स्वर पळयात. साथीक तीन टिंबा दिवन घेतिल्लो तीया. वाऽऽ...

कितें घडत सांगू नज असली वेळ आसता ती. जल्म घेवपी जीवाचें प्रकट जावप आनी जल्म दिवपी मनांची अवस्था. त्या खीणाचो तरल असो आनंद 'सुटली' ह्या अर्थपूर्ण उतरान उक्तायला. मनस्वी असो स्वर लागतनाच दुसऱ्या स्वराक हडकून नाजूक खटको घेवंचो तसो हो खटको मन सुखायता. केळीच्या आवयपणाक लागून 'सुटली' ह्या उतराक गर्भाळ अशी सुंदरताय येता. पयलोच पावस पडून वतकच येवपी मातयेच्या वासान मन तृप्त जावंचे तशें ही कविता घोळयल्या उपरांत जाता.

काळ म्हणजे कितें हें कुवाडें अजुनूय आमकां सुटूंक ना. जरी आमी ताका सापेक्ष करीत आसतात, तरी तो निराकारुच. 'सुटली' ह्या उतरान तो सापेक्ष जाता. त्या उतरान तो आकार घेता पूण 'सांगून येना'

'असली वेळ' ह्या उतरांनी तो परत आकाराचीं बंधना तोडटा. भावनिक काळाचें रुप तोखेत निरंतर निराकार काळाची लय सादपाची कवीची कळाशी. सृजनाची सुंदरताय थर्त करीत परत परत निराकाराच्या सुंदरतायेची आस जागयता.

प्राक्तनाक पळोवपाची कवीची नदर तटस्थपणाची. देखीक -

*फुलांचें आयुश्य*
*मागलें हांवें*
*म्हज्या सुखाक*
*आनी दुखाक...*

कित्याक काय? ताका वताची दीठ आवडटा देखून आसूंये. वताक नांव, गांव, थाव नासता. काया, सया नासता आनी सावळेचीय माया नासता अशें सांगीत कवी म्हण्टा -

*वत अव्यक्ताचें गीत*
*वत पर्जळाची किर्त*
*वत वस्त्रगाळ दीठ*
*प्रज्ञेची...*

कवी वास्तव आपणायतना अर्मुतच आपणायता. कवीच्या मनाची ही बसका ओडलायणी. पळेयात -

*घेतां मनांत भरुन*
*निळें रितेपण*
*तुजें फेडूंक रीण*
*स्वासांचें*

पंचमहाभूतांची ही कूड, हाची पुराय जाणविकाय दवरुन कवीची ही नकसूद होरावणी पळेयात-

*मळबाक भिडिल्लो*
*अग्नीच हो सगळो*
*प्राणाक पांगळो*
*नाका करुं...*

माधवबाबाक संगीताची नाजूक जाण आसा. विदुषी किशोरी आमोणकाराच्या अभिव्यक्तीची ही चित्रावणी सुंदरुच -

*१*
*दोंगराक*
*वळसो घालीत*
*व्हांवपी न्हंय*
*तशे*
*तुजे सूर*
*शड्ज - पंचमाच्या*
*वाटेवयल्या*
*मोडणा -मोडणांनी*
*आत्म्याक*
*अथांगाची*
*लय फुटून...*

*२*
*तुजे सूर*
*लय ब्रम्हाक*
*फुटिल्लो*
*चंवर*
*पर्मळ ताचो*
*मन भरुन*
*म्हजे मोनेळींत*
*हांव*
*रुजून फळटां...*

-हांगा लयेचो संदर्भ आयला. लयेक फुटिल्ल्या चंवराचें वर्णन आयलां आनी मोनेळांतली सृजनताय आयल्या. संगीतांतली लय हें काळाचेंच एक रुप. काळाच्या प्रवाही स्वरुपाक अथांगाचे लयेंत विरगळपाचें आसता. 'स्वर'ही काळाची उपाधी. देखून अथांगाचे लयेत विरगळून वचपाचो. तबल्याची साथ घेनातसना गावपाचें ह्या किशोरीताईच्या संकल्पनेचें हेंच मूळ. तिच्या गाण्याचें हेंच समर्थ रुप. तिचें गाणें आयकतकच जाल्ली अवस्था इतली वेधक आनी अल्प उतरांनी माधवबाबान सांगल्या तशी घडये कोणेच अजून सांगूकना. उतरांची स्पश्ट येवजण ही तांच्या कवितेची घटाय. संगीतांतल्या काळाचेर विचार मांडटना पं. भास्कर चंदावरकर हांणी समर्थ रामदासाच्या दासबोधांतली एक ओवी सांगल्या ती हांगा म्हाका याद जाता.

*उपाधीचा विस्तार झाला । इथे काळ दिसोन आला।*
*येरवी पाहता काळाला । ठावचि नाही।।*

माधवबाबाच्या कवितेंतलें 'तूं' हो कोण आसत सांगू नज. तें मळब आसूं येता, वारें आसूं येता, जीवाभावाच्या मनशाचें मनूय आसूं येता, निराकारी सत्यूय आसूं येता. ताच्या निरंतर तेळपी नदरेन मनांत चित्रयिल्लीं कितलींशींच चित्रं वेगवेगळ्यो अर्थसया घेवन कवितेच्या रुपान साकारतात. मागीर ताका

*तुजे*
*दिठयेंत हांव*
*मळबाचो*
*शेणिल्लो थाव*

अशेंय दिसता. मागीर -

*हातांतल्या हारशांत*
*मावना रुपा तिजें*
*- चान्ने चड्‌ट्या कळांचें.*

अशें जातकच -

*ती*
*तृप्तिन तुडूंब; एक*
*अनवळखी गीत म्हणटा...*

कवीन दर कवितेच्या खाला दीस आनी जागो बरयला. ताच्या 'तूं' आनी 'ती' चो संदर्भ येता. तो चड करुन मंगळूराक जल्माक आयिल्ल्या कवितांनी. घडये एकलेपणांतले सयेंतलो आसूंये. एकलेपण म्हळें काय राधा आयली. मागीर कृष्ण थंयच आसता. राधा कृष्णरंगान बुडिल्लीच आसता. पळेयात -

*गोविंद गोविंद*
*राधेचो गोविंद*
*मिठयेंत मुकूंद*
*विश्वरुप...*

राधा-कृष्णाक मनांत रुजयत जाल्यार अशें जाता-

*मनाचें वृंदावन*
*राधा आनी कृष्ण*
*यमुनेचें पाणी*
*आज कितलें उश्ण!*

यमन हें भारतीय शास्त्रीय संगीतांतल्या एका रागाचें नांव. हाचो वादी स्वर गंधार आनी ह्या स्वराकडे संवाद सादपी संवादी स्वर निषाद. मनांत रुजयिल्ली हुरहूर परमळायत प्रियेन सुगुर्व्याचें पावल घरांत दवरचें तसो यमन रातीच्या घरांत पावल दवरता. यमन कविता संग्रहाचो वादी स्वर मळब आनी संवादी - कवीचें मन. विदुषी डॉ. प्रभा अत्रेन यमनाचें वर्णन केलां तें सुंदरुच. ती म्हण्टा ''यमन म्हळ्यार दीठ पावना थंय मेरेनचो अटंग दर्या! सात्विक, शांत, गंभीर, बुडी मारपाक लावपी. कलकाराक थंय नम्रूच जावंचें पडटा. एकतानता आसले विणे थंय रिगूंकूच मेळना.'' ह्या वर्णनांतली सगळीं तासां माधवबाबाच्या यमनाक आसात. यमनाची हीच कविता पळेयात -

*वाटेक चक्राकार फेरे*
*खंय आरंब; खंय अंत?*
*करता म्हाका कुरु*
*तुजे दिठयेचें दिगंत...*

यमन, अमूर्त आनी मूर्त अळंगसाणीन एकठांय केळयता. देखीक

*१*
*तळ्याचो हारसो*
*मळबाचें बिंब*
*निळें एक टिंब...*
*२*
*भांगरसो हांतो*
*हात्याक तुजें आंग?*
*कसो सावरुं सांग?*
*३*
*तुज्या गोऱ्या रुंद खांदार*
*पोपटी पदराचें पान*
*पांचवें पाळेल्लें रान...*

यमनांत मनाच्या पोल्यार ल्हवपीकपणान हात फिरयत मुर्त-अमूर्ताच्या संभ्रमांचीं जाग जागोवपी चित्रां अशींय आयल्यांत.

*पानांची सळसळ*
*कोरता वाऱ्याची*
*एक अदृश्य वळ.*
*--*
*वाऱ्याक*
*धायदिको मेकळ्यो..*
*बांदल्यो कोणो*
*पावलांक ताज्या*
*पर्मळाच्यो सांखळ्यो?*

तिनसांजचो जीव घरा परतुपाचो वेळ. ताकतिकेच्या उपरांत येवपी संथतायेंतलो मोनेळ ताच्या 'भिरीं' हे कवितेंत तसोच आयला -

*वाऱ्याचें मूळ सोदीत*
*विडविडपी भिऱ्यांक*
*खबर नासता:*
*वाऱ्याचो गांव*
*तांच्या पाखांनीच वसता*

खरें म्हळ्यार हीं मनशांचीच भिरीं. आपणाकडेच आशिल्ली तांक-आत्मस्वरुप सोदपाक विडविडपी. अशीं भिरीं कवीच्याय आंगणांत येवन गेल्यांत. दिश्टाव्याचीं गीतां गावन गेल्यांत. तांच्या गीतांक कवीन 'स्तोत्रां' अशें रुपक दिलां.

*भिऱ्यांचीं स्तोत्रां*
*आमोरेचेर*
*रुखावळीच्या*
*पानाकणकणीं*

स्तोत्र म्हळ्यार तोखणाय करपी गेय कवन. मन अंर्तमुख जालें काय येता तें स्तोत्र. यमनाचे स्वर अशेच मनशाक अंर्तमुख करता.

आमोरेच्या रुखार मागीर गंभीर प्रसन्नतायेची पसय पातळटा.

कवीच्या मनांतलो हो यमन. परत याद करतां मळब हो माधवबाबाचो वादी स्वर-गंधार आनी संवादी-निषाद म्हळ्यार कवीचें मन. देखून जेन्ना -

*सांज जाता*
*दोंगरा पलतडच्या गावांत*
*दिसाच्या निमाण्या किर्णांत*
*ल्हव ल्हव शेणत वचपी मळब*
*एक एक नक्षत्र पेटोवंक लागता*
*आंगणातल्या तुळशी मुखार लायिल्ल्या*
*पण्टेच्या उजवाडाक*
*काळखाचो थाव फुट्टा...*

यमनाचो वादी स्वर गंधार हो असो - तो लागलो काय पण्टेच्या उजवाडाक थाव फुट्टा... आनी कवी कवितेच्या रुपान ताचेकडे निर्मळ संवाद सादता -

*चितारीत आसा हांव*
*असलें एक चित्र*
*म्हज्या तनरीच्या*
*रित्या कॅन्वासार...*
*म्हज्या मनांतलो*
*आकुळ पिकूळ यमन*
*तुवें आळयत सावन...*

माधवबाबाच्या कवितांतल्या उतरांक एक सलगपण आसा. रेवडी करतना पाकाची एक सलग तार जाता तशें. उतरांच्या चिंतनाक लागून जांवये. ह्या चिंतनाक लागून उतरांक सुंदरताय येता. निजाची सुंदरताय आनी हे सुंदरतायेत भीतरुच गेयता बुडील्ली आसता. अशा आंतरीक सुंदरतायेची एक वेधक गजाल प. पू. के. बि. बेलसरे हांणी ज्ञानेश्वरीच्या निरुपणांत सांगल्या, तीय बी गणपतीच्या गुलाबी रंगासंबंदान आनी 'वर्णवपु' ह्या उतराक लेखून. ॲरिस्टॉटलाची तरनाटी धूव ॲलेक्झांडराच्या आवयचे सेवेंत आशिल्ली. ते धुवेची सुंदरताय पळोवन राणयेन तिका विचाल्लें, तूं कसलीं सौंदर्य प्रसाधना वापरता? ॲरिस्टोटलाच्या धुवेन सांगलें, तरणोपणांत लजेची बी तांबसाण गालार येता तें प्रसाधन हांव वापरतां. तशी अळार आयिल्ली निजाची सुंदरताय घेवन माधवबाबाचीं उतरां येतात. तांका मुजरत अळंकार घालचे पडनात. उतरांचो निजाचो अर्थ होच तांचो अळंकार जाता.

'काव्यालंकारसूत्रवृत्ति' ह्या ग्रंथान काव्यांतल्या अळंकारांक लेखून ग्रंथकार श्री. वामन हांणी 'सौंदर्यम अलंकार:' असो अळंकाराचो अर्थ सांगला. माधवबाबाल्या कवितेंतली ही आंतरीक सुंदरताय म्हळ्यारुच यमनांतलो यमन.

यमन कविताझेल्याच्या दर पानांवेली दर एक कविता यमनाचेंच रुप घेवन येता. दर एका पानार सकयल 'यमन' अशें बरयिल्लेंय आसा. आनी कविता वाचतकच यमन आयकुपाक येता.

कविता वाचतकच परत परत वाचन दिसतात आनी दर फावटीं नव्यो नव्यो अर्थसया उदेतात.

माधवबाबान 'कविते-विशीं' बरपांत श्री. गुरुनाथ सामंताची एक कविता सांगिल्ली.

*''माझ्या या कवितांवर*
*'म्यॅनुफॅक्चरिंग डेट'*
*मी टाकू शकेन.*
*'एक्स्पायरी डेट'*
*तुम्ही टाकायची आहे.*

माधवबाबांच्या कवितांक 'एक्स्पायरी डेट' घालप कठीणूच. तांच्या अर्थसमांचीं आवर्तना सोंपून सोंपनात. कित्याक पळेयात-

*उतरांचो*
*गर्भवास सोंपलो*
*तरीय*
*कापूंक येना*
*तांची वार*
*अर्था पलतडची...*

तांची कविता सोंपिल्लेवरी केन्नाच दिसना कित्याक जाणा -

*सगळें मळब*
*सोंपलेंवरी दिसलें*
*तरी*
*सोपून सोंपना*
*तळ्याच्या मनांतलें...*

श्री. शंकर भांडारीन एकदां श्री. पांडुरंग भांगीचे 'अदृष्टाचे कळे' म्हाका दितना सांगिल्लें 'वाच आनी वाचत राव' माधवबाबाचो हो यमन तुमकां वाचपाक दितना हांवूय अशेंच म्हणन 'वाचात आनी आयकत रावात हो यमनांतलो यमन..'

संपर्क : 7507441344

***

*(पान ११ वयल्यान)*

एलईडी उजवाडांत शेणलें. आतां तर रात आनी दीस एकूच कशी जायत आसा. रस्त्या कुशीचे सरकारी मांड रुंदीकरणांत नाच्च जाले. म्हाका तर आयज लेगीत मामालें खाजें सोडून दुसरें खंयचेंच खाजें बरें लागना. कुशावतीच्या देगेर तें तयार जातालें हें ताचें कारण आसूं येता. फेरयेंतल्या हेर मांडांनी लेगीत जायतो बदल जायत गेला. मात खाज्याचें रूप पयलीं आशिल्लें तशेंच पळोवंक मेळटा. आमी सगले आतां खाजें विकतें घेतात. तें घेतना नव्या पिळगेंतली आमच्या सारकेली टोळी दिसता काय म्हण सगले कडेन नदर मारप जाता. कुरकरीत ख्याज्या काडी तशेंच रेवडी तोंडांत उडोवपी भुरगीं आयज त्या मांडा लागसार खंयच दिसनात. आतां सरभोंवतणी दिसतात तीं फकत सेल्फी घेवपांत गुल्ल जाल्लीं यांत्रीक मनश्यां !!!

संपर्क: 9822129070

***

# कथा

# काळजांतले उले!

रुपा केणी

वत्सल वचून आयज पंदरा दीस जायत आयिल्ले. रमाकांत आजून तसो सांवरुक नाशिल्लो. ध्यानीमनी नासतना वत्सल गेले. मोन्यानी. कांयच सांगलेना. कांयच कळ्ळेंना, कांयच उपाय करुंक मेळ्ळो ना. जशें मोन्यांनी माप वलांडून आयले तशेंच मोन्यांनी हो संवसार सोडून गेले. रमाकांतची बायल म्हूण तें आयले तेन्ना तें फकत वीस वर्साचे आसले आनी तो पंचवीस वर्सांचो. पुराय पंचेचाळीस वर्साचो संवसार तांचो. ह्या मजगती दोन भुरगीं जाल्ली.

येवजून, येवजून रमाकांताच्या दोळ्यांतली दुकां थांबच नासलीं.

ताणे घोवाकडेन केन्नाच कांयच मागलेंना. केन्नाच तोंड वांकडें केलेना. वांट्याक आयलें ताका मोन्यांनी हांसऱ्या तोंडान फुडो केलो. इतली वर्सा संवसार करुन लेगीत वत्सलाच्या मनाचो थांग ताका लागलोना. ताजेकडेन तशें केन्ना उलोवपूच जालेना.

'वत्सल', 'वत्सल' रमाकांताचे काळीज करादांय मारताले. पूण तें, आयकुपाचे पलतडी गेल्लें.

किदें आवडटालें काय ताका? केन्ना विचारलेंच ना. ताची कसलीच अर्थअपुर्बाय जालीना. ऐपत आसून लेगीत केन्ना तकलेंत आयलेंच ना. वेल्यान, "सांजो करगो" अश्यो फर्मायिशी मात केल्यो ताणेय त्यो पुरयल्यो. दनपार ना सांजेवेळ ना नुस्त्याच्यो पोतयो ताजे मुखार धरल्यो आनी ताणे दोनूय वेळा सुरबूस रांदून घालचें. ताकाय पुरो जाता आसतलें. तेवूय म्हजेभशेन मनीस. केन्नाच चिंतले ना हांवें. केन्नाच, केन्नाच एका उतरांन ताका विचारलेंना. "पुरो जाला गो तुका?" वा "मातशे बस गो म्हज्या म्हऱ्यान उलोवया मातशीं", अशेंय म्हळेंना.

कसो केलो पंचेचाळीस वर्सा संवसार? सकाळचो हांव कामार वतालो. सांजेवेळा च्या पियेवन इश्टावांगडा चकाटां मारपाक वचप.

सुटये दिसा भाटांत वा शेतांत काम पळोवपाक थंय वचप. वत्सल मात रात दीस रांदचे कुडींतूच. भुरग्यांचे करप. आयिल्ल्या गेल्ल्याचे करप. नण्डाचें कुळारपण, वयल्यान आईचे थोमणे. खुटले खावप आईन ताका खावन खावन सामकें नाका पुरो केले.

म्हाका तें सगळे कळटालें पुण, हांव किद्याक मदीं पडलोना?

आईक मात तरी धेक बसतलो आशिल्लो. म्हजो इगो आड आयलो? आई म्हाका बायलेच्या मुठींत गेला म्हण्टली म्हणून? सूमी, वंदू ताका कितलीं थोमणायतालीं! पुण दर वर्सा न चुकता सुटयेन मात येतालीं भुरग्यांक घेवन कुळारा. तांचे सगळ्यांचें करप ताणे. ती दोगांय आईचे कान भरपाचे काम मात वेवस्थीत करतालीं. वत्सलाच्या



कामांत ताका मात लेगीत आदार करनासलीं. वेल्यान ताकाच झिगझिगायतालीं. पुण हांवें तांका केन्नाच कांयच म्हणलें ना. हांव ओगी तें पळोवन तांका जल मेळटालें. कित्याक? कित्याक केलें हांवे अशें?

वत्सलाच्या बापायचो माण आसलो. तो टामटीम चलतालो. ताज्या बापायन लग्नावेळार सगळ्यो रिती केल्ल्यो. इतलें आसतना लेगीत आई ताका येतना वेतना गरीबालें म्हण हिणसायताली. ताका भाटबेंस नासलें म्हण उणाक लेखताली. आपल्याक ती भाटकान्न मानताली. जाण्टेलाच्या पुण्यायेन ते पद तिका आपसुक मेळिल्लें. म्हज्या बापायन कांय केलेना आनी आईनूय कांय केलेना. आपल्या पुराय जिणेंत तिणें एक पै लेगीत जोडलीना. बेठोच पोको झेत आनी किदें?

पुण वत्सलान सगळें सगळें मोन्यानी सोंसले. आई आरीचे जावन हांतूणार पडली. तेन्ना सेगीत तीन वर्सा तिचें गू-मूत काडले. धुवेच्या मायेन. तिजे सगळे गुन्याव भोगशिले.

वत्सलाचेर खरो अन्याय केलो तो हांवे. दरेकावेळार ताजी बाजू हांवे उखलून धल्लीना. मोनो कसो रावलों हांव, केन्ना आवयचो रेसपेत दवरपाक, केन्ना भयणींक भावजेमुखार सकयल उडोवचें न्हय म्हण.

पुण हांव दरेका वगतार विसरतालों की वत्सलूय एक मनीस, म्हज्याच वरी ताकाय भावभावना, उमाळे, उमेद, हावेस आसात. विखाळ्या उतरांनी ताज्याय काळजाक घाय जातात. आपल्या घायांचेर कोणेतरी फुंक मारची आनी दुख उणे करची अशें ताकाय दिसता. खोसदिण्या खिणांची ओड ताकाय आसा.

वत्सलान खरो संवसार म्हण्टात तो दोन वर्साच केलो आई वतकीर. इतल्या वर्सा संवसार केलो तो आईचो संवसारुच आसलो. वत्सल म्हण्टात तें तातूंतले 'ग्लोरीफाईड सर्व्हंट.' सगल्या घराचेर आईचो शेक चलतालो. तें ज्या घरांत वाडिल्ले त्या घरच्या रिती प्रमाणे ताका घोवागेर खालतीपण घेवनूच वागपाक शिकयिल्लें. त्या खातीर तें आपलें मन केन्नाच उगतें करनासलें. खालतीपणान आनी सोंसणीकायेन रावतालें. कशें सोंसले काय ताणे सगलें? तेंवूय मुखामळ हांसकुरे दवरुन?

ताका खरें समजून घेतलें आमच्या धुवेन. जेन्ना जेन्ना आवयक कोणेय दुखयली वा तिचो कोणेय अपमान केलो तेन्ना तेन्ना ताणे दुर्गेचो अवतार घेवन तांची चूक तांका दाखोवन दिली. तेन्ना तिवूय ओग्गी पडटाली. हें हांवे पयलींच केल्लें जाल्यार? हांवूच ताचो गुन्यांवकारी. हय! हांवुच.

'वत्सल! वत्सल गो! परत एकदां रमाकांताचो बांद फुटलो आनी तो घशघशांनी रडपाक लागलो.

संपर्कः 9822183954

***

# परिणाम

कृ. म. सुखठणकार



"For every action there is an equal and opposite reaction" अशें आमच्या न्यूटन सायबान बरोवन दवरलां आनी आमी तें एकाच वर्गांत खूब वर्सां शिकल्या. आतां न्यूटन सायब कोण हें तुमकां सांगपाची गरज ना. तुमचे मदीं खूब जाण साक्षर आसतले अशी हांव आस्त बाळगितां. म्हाका मुंबयकारां फ्राटल्यान हे जिणेंत कोणे सतायला आसत जाल्यार न्यूटन सायबान. हांवे न्यूटन सायबान कितें सांगलां ताचो अर्थ लायला तो असो, तुमचे दर एका करणेचो परिणाम म्हणून आसता जो तुमकां भोगचो पडटा. देखीक, ताणी हो सिद्धांत मांडलो आनी ताचो परिणाम आमी आठवेंत आसतना सगळे वटेनी कितलीं तरी वर्सां भोगलो. आमच्या देशांत लोकशाय आशिल्ल्यान आमी आमकां जाय तसो ताचो अर्थ काडूं येता. हांवे म्हाका जाय तसो काडला. समर्थानी ('सावधान' फेम) मारुती स्तोत्र म्हणपाचे फायदे सांगतना 'धनधान्य, पशुवृद्धी, पुत्रपौत्र समस्तही पावती रुप विद्यादी स्तोत्रपाठें करुनिया' अशें म्हणलां. दत्ताक तातुंतले 'पुत्रपौत्र' उतर सामकें खटकलें. मारुती स्तोत्र सामकें जेण्डर बायजड आनी तें लिंग चांचणी करपाक उत्तेजन दिता असो अर्थ ताणे लायलो.

मारुती स्तोत्राचेर FIR फायल करुया दत्तान मारुती स्तोत्र म्हजे तोंडा मुखार धरीत म्हणलें.

FIR कोणाच्या आड करतलो? ठोसरांचे वंशज आज ना कारण समर्थ सव्या वयल्यान पळून गेल्ले. मारुती रायां आड करुं येता कारण ते चिरंजिवी. पूण शेनवारा तांचे माथ्यार बायलोच चड तेल ओततात म्हण्टकच तीं ताच्या आड कितें करीत अशें म्हाका तरी दिसना.

हांवे अशें म्हणटकच म्हजे म्हणण्याचो परिणाम म्हाका ताचेर दिसून आयलो कित्याक तर आयिल्ल्या पावलानी दत्ता परतलो. मुद्दो, आज ह्या देशांन कोणेय, कित्याचोय, कसोय अर्थ काडूं येता. 'सरमिसळ' हे पुस्तकांत (पान १०५) 'आमचे वाल्मिकीला आव्हान' ह्या लेखांत मारुती रायाच्या जल्मा संबंदांत जयवंत दळवी बाबान असोच प्रस्न उपस्थित केला. आपल्या लेखांत अशे दाखले दिवन पृश्ट क्रमांक दिलो म्हणटकच पानांय भरतात आनी लेखाक वजन येता असो म्हजो अणभव. सोड, तर दळवी बाब म्हणटात की जल्मा उपरांत मारुती राय तिनशे योजना वयर उडलो आनी सुर्याक पिकें फळ समजून वेंग मारली. तिनशे योजना म्हणल्यार सत्ताविश्शें मैल अशें कोंत करुन दळवी बाब विचारतात की सूर्य इतलो सकयल आयिल्लो काय म्हणून. अशें खऱ्यानींच घडिल्लें आसत जाल्यार ताचो परिणाम तेन्ना सगळ्यानींच भोगला आसूंये.

तर, दर एका गजालीचो परिणाम हो आसताच, आमकां मागीर तो दिसूं वा ना दिसूं. रुतुंचो सगळ्यांचेर परिणाम जाता हें आमकां खबर आसा. देखीक, पावसाच्यो सरी येतकच 'गोपी सचैल न्हातात, वेली ऋतुमती जातात' हें हांवे वाचलां. आमचे पोर्सांत भेणे, घोसाळीं जायनात पूण तण कमरे कडेन पावता हें दोळ्यांनी पळयलां. पावस येतकच तेवटेन गोपी सचैल न्हातात खऱ्या पूण आमगेर सगळीं दारां फुगिल्ल्यान खिळयो लागना. विने मेस्तान कांय दारांक किसूळ मारिल्ल्यान सकयल फट तयार जाली आनी तातुंतल्यान हुंदीर मुक्त संचार करपाक लागले. हांवे विने मेस्ता कडल्यान ताका परत फळी मारुन घेतल्यो. आतां सगळीं दारां उग्तीं जातना फळी जमनीर घांसतात आनी 'फर्रऽऽ' असो आवाज जाता. अथितींक जांकां ह्या 'फर्रऽऽ' आवाजाची संवंय ना तांचे आंगार कांटो येता हें खूब जाणानी म्हाका सांगलां, तुमचे म्हायती खातीर. तर, आमी रुतुंच्या परिणामांचेर उलयताले. आमचे लग्ना उपरांत पयल्या पावसाक दर वरसा प्रमाण दारां फुगलीं आनी बंद जायना जालीं. आमच्या बेडरुमाचें दार आड करतालों तेंय जायना जालें. हिका रातची चलपाची संवंय आसा हें म्हाका हिचे घरच्यांनी व्हंकल पावणे वेळार सांगूंक ना. फकत नेरवांच्यो गुळयो रिकामी पोटार एक, भरिल्ले पोटार दोन आनी चडूच चवताळिल्लेवरी करपाक लागल्यार तुमकां जाय तितल्यो बायचे तोंडांत उडोवच्यो अशें सांगून गुळयांचो डबो म्हज्या हातांत दिल्लो. हांवे तो चंद्रकांताच्या (जाचे काळजां लायिल्ले गाडयेंत बसून आमी गेलीं तो) हातांत दिलो. पूण जेन्ना, ही फुगिल्ले उग्ते दारांतल्यान, दारांत न्हिदिल्ले आईक दांग घालून वचपाक लागली तेन्ना म्हजो आवरो उडलो. रुतुचो परिणाम निर्जीव वस्तुंचेर (दाराचेर) तसोच सजीव वस्तुंचेर (म्हजेर) कसो जाता तो पळयात. ही भायर वचूं नाका, म्हाकाय आईक दांग घालून जागृत अवस्थेंत भायर वच्चें पडलें. मागीर आधाराक (हिच्या) नलू आमगेर रावपाक आयलें. म्हज्या जिवाक बरेंऽऽ दिसलें. आतां म्हणलें हें हिचेर नदर दवरतलें. दुसरे रातीं पळयत जाल्यार हीं दोगांय जाणा आईक दांग घालून गेलीं. हांचे अख्खे फामिलीक रातचीं न्हिदेन फिरपाची संवंय आसा हें म्हाका मागीर कळ्ळें. हाचे आदीं माशेलांत, रवळनाथ (पिसो काय शाणो तें खबर ना) घोड्यार बसून फिरता हें जाण्टेल्यां कडल्यान हांवे आयकल्ले. रायबंदरा दोन भगिनी जोडयेन फिरतात हें दोळ्यांनी पळयलें. मागीर विने मेस्तान तांचो फळयो मारुन बंदोबस्त केलो हें हांवे तुमकां सांगलांच.

मनाचेर आज मेरेन कोण जैत मेळूंक शकलो ना. समर्थांच्या हाताक सव्यावयल्यान पळून वचून लेगीत कांयच लागलें ना. शेवटाक ताणी आपलें मन अचपळ देखून रामाक धांव म्हणलें. हें सांगपाचें कारण म्हणल्यार हे मनाचेर सगळ्यांत पयलीं परिणाम जाता असो म्हजो अभ्यास सांगता. आमचे कान, दोळे हीं सगळीं इंद्रियां भायर कितें मेळटा काय सोदीत आसतात आनी हे इंद्रियां वरवीं आमचे मनाचेर परिणाम जाता. देखीक, भुरग्यांचे कवळें मनार परिणाम रोखडोच जाता हें हांव म्हज्या अणभवां वयल्यान सांगतां. म्हजी आई आनी बापूय दीस भर झगडत आसतालीं. हाचो म्हजे कवळें मनार हिस्पा भायर परिणाम जालो. जेन्ना तांचो अतिरेख जालो तेन्ना म्हजो 'उद्रेक' जालो.

कृपा करुन तुमी म्हज्या सामकार तरी झगडूं नाकात. म्हजे कवळें मनार हाचो कितलो परिणाम जाता ताचो तुमकां अदमास ना. थार धरां हांव तोंड घेवन शाळेंत वतकच तुमी जाय तितलीं झगडात! अशें हांवे तांकां सांगून उडयलें. पूण जेन्ना म्हजें लग्न जालें तेन्ना हिका हिचें माथ्याक अमृतांजन सारोवन जातकच हांवे सांगलें, जर देवा दयेन आमकां फाल्यां भुरगीं जालीं तर तांचे मुखार आमी झगडप म्हणटात तें ना. तांचे कवळें मनार हाचो भयंकर परिणाम जाता. हिकाय तें पटलें. हिचेय मनार खूब परिणाम जाल्लो खंय आनी आमी थारायल्ले प्रमाण आज मेरेन भुरग्यां समोर केन्नाच झगडलीं नात. तांकां समजूंक लागतकच तांचे समोर आमी दोगांय ताळयो वाजोवन, 'पप्पा सांगा कुणाचे पप्पा माझ्या मम्मींचे मम्मी सांगा कुणाची मम्मी माझ्या पप्पांची' अशीं म्हणटालीं. आमचे व्हडल्यान (उग्तें मळब फेम) एकदां निबंधांत बरयल्लें, "My Dad is whose my mummy's My Mom is whose my daddy's. They love each other very much". ते वर्सा पालक शिक्षक संघा वतीन आमचो सत्कार जालो. आमकां सत्काराची व्हडवीक दिसली ना पूण आमचे भुरग्यांचे मनार आमच्या वागण्याचो फावो तो परिणाम जालो हें पळोवन जें समाधान जालें तें म्हाका उतरांनी सांगपाक जावपाचें ना. जांका ल्हान पिरायेचीं भुरगीं आसात तांचे पालकांनी खाटीर बसून भुरग्यां सामकार तांचे आवडीच्यो वळी म्हणच्यो. तीं किंडरगार्टनांत वतकच मागीर जाय तितलो धुमाकूळ घालचो अशी तुमचे चरणी म्हजी नमळायेची मागणी. कारण हातुंतल्यान भावीक पिळगी तयार जावपाची आसा. हालींच 'ब्लू व्हेल' म्हणून जीव घेणी गेम आयल्या. ही गेम कंवळे भुरग्यांचो जीव घेता. ही गेम भुरग्यान एकदां खेळपाक सुरवात केली की ती ताचो जीव घेतल्या शिवाय ताका सोडीना अशें आमी दिसाळ्यांत वाचलें. हिणे जबाबदार पालक आनी जागरुक नागरीक हे नात्यान पयलीं आमचे घरांत सगळ्या कोरांचें नुस्तें बंद केलें आनी मागीर आमचे हात आनी मोबायल तपासपाक सुरवात केली. कित्याक तर जो ही गेम खेळटा तो आपल्या हातार 'ब्लू व्हेल' अशें कोरता म्हणून कोणे तरी हिका सांगिल्लें. आमच्या हातांर आनी मोबायलार आज मेरेन हिका दुबाव घेवपा सारकें कांय सांपडूं ना ही तुमचे सगळ्यां खातीर अभिमानाची गजाल. आईच्या हातार हिका 'श्री राम जय राम जय जय राम' गोंदिल्ल्याचें सांपडलें. आईन तें त्रिंबकेश्वर हांगां १९७० हे सालांत गोंदयल्लें, तुमचे म्हायती खातीर.

हें जायरातींचे युग, हें सगळ्यांक खबर आसा. जायरातींचो आमचेर कसो परिणाम जायत सांगू नजो. हालींच सरकारान गोंयचे बशींचेर कुटुंब नियोजनाची सोबीत जायरात पितारल्या. गोंयकारांचो गोंयांत आंकडो कमी जायत आसतना कुटुंब नियोजनाची जायरात गोंयां कित्याक करची पडली हें म्हाका खबर ना. पूण ही जायरात पळोवन जेवणाचे डबे घेवन ऑफिसाक वचपी दादले तेच डबे घेवन घरा परत वचपाक लागले अशें सावळो सांगऽ. सावळ्यान सांगलां म्हणटकच तें खरें आसतलें. हाका लागून गोंयकारांच्या आंकड्यान भर पडटली काय कितें हें काळूच सांगतलो. 'मनी वसे ते सपनी दिसे' अशें कितें तरी आमकां जाण्टेले सांगताले तें खरें. कित्याक तर म्हाका पयलीं सावन रहस्य कथा, भय कथा, गूढ कथा वाचपाची संवंय. हांव न्हिदतकच म्हजे सपनांत हांवे वाचलां तें प्रत्यक्ष घडटालें आनी हाका लागून आईन बाबडेन खूब त्रास काडल्या. वाचनाचो असोय परिणाम जाता हें वाचून तुमकां अजाप जातलें हें हांव जाणा. रातचो काळा पहाड जावन हांव खाटीर उमथो न्हिदून दोन बोटांचे पिस्तोल करुन 'ढिश्केंव ढिश्केंव' करुन गुळयो सोडी. आईन कवळ्यां वचून प्रसाद लेगीत घेतलो. काळा पहाडा सामकार कोणाचें कितें चलता? देवतेन आईक परतो प्रस्न केलो. मागीर बाबुराव अर्नाळकराचो काळा पहाड काळाच्या पड्ड्या आड गेलो आनी आई सुटली. मागीर म्हाका भय कथा वाचपाचें पिशें लागलें. एक दीस हांवे 'पोपट आनी चेटकीण' पुस्तक वाचलें आनी न्हिदलों आनी मध्यानेर हिचो गळो दांबलो.

पोपटात जीव ठेवतेस काय? आता पोपटाची मानच मोडतो अशें म्हणून हिची मान पिळपाक लागलों.

हांव चेटकीण न्हीऽऽऽ हिणे आरड मारली तरी हांव भानार येना.

भाषा बदलतेच काय? हा भाषा माध्यमाचा प्रश्ण नाही, हो मरायला तयार! अशें म्हणून हांवे म्हजी पकड आनीक घट केली. इतल्यान आई धांवत भितर आयली...,

आरे सोड तिला पापया! चेटकीण झाली म्हणून काय झाली? आमचे नशीब म्हणून समज आनी सोड आता तिला! अशें म्हणून आईन म्हजे तोंडार उदक मारलें आनी हांव जागो जालों. तेन्नाच्यान आतां ही मानेक गार्ड घालून न्हिदता.

सिनेमांचें आमचेर भयंकर परिणाम जातात अशें आमच्या विचारवंतांचें मत. समाजांत घडपी सगळे वायट गजालींक ते सिनेमांक जबाबदार धरतात. तशें जाल्यार श्यामची आई पळोवन श्याम आनी संत तुकाराम पळोवन तुकाराम कित्याक तयार जाले ना असो माळयेर चिंतपाक बसतकच म्हाका प्रस्न पडटा. केन्ना केन्ना प्रस्न पडटात तें आरोग्याक बरें, सदां उठून प्रस्न पडल्यार पिसो जावपाचो. आसूं. म्हाका सिनेमांचे पिशें तातूंत कांय हिरोईणी म्हज्यो आवडिच्यो म्हणटकच त्यो म्हजे सपनांत येवप सहाजिकूच. हरशीं पोन्ने गोंयां दूद हाडपाक वतां तेन्ना गांधीजीच्या पुतळ्याक (दांडी यात्रा फेम) सद्दां 'तेथे कर माजी जुळती' म्हणून पांयां पडटां. पूण ते हालीं म्हजे सपनांत चरख्यार बसून सूत कातपाचे बंद जाल्यात. कित्याक तें सावळ्याक विचारचें पडटलें. म्हजी आवडटी नटी विध्या सिन्हा सपनांत खूब फावटीं घरकान्न जावन येता. येतना खोलच्यो सुक्यो मिरसांगो यादीन हाडात आं, बरें हुमण करुया, म्हज्या हातांत पिशवी दीत म्हाका सांगता. हांव सदचेवरी तें विसरतां. कांय नजो हरव्यो मिरसांगो घालूया ती हातांतल्यान पिशवी घेत म्हणटा. हाका लागून म्हजो दुसरो दीस बरो वता इतलेंच.

आमी दिसाची सकाळ, दनपार आनी तिनसांज अशी वांटणी केल्यार आमची मनस्थिती सकाळची आशिल्ली ती सांजची उरना. त्या वेळेनुसार वातावरणाचो परिणाम आमचेर जाताच. म्हणून नासीर काज्मी साब म्हणटात,

'दिन भर तो मैं दुनिया के धंदों में खोया रहा
जब दिवारों से धूप ढली तुम याद आये'

संपर्क : 9850530756

***

# 'कर्मण्ये... काल, आज, फाल्यां'

**सखाराम शेणवी बोरकार**

हालींच कोंकणीचे एक म्हालगडे आनी साहित्यीक अरविंदबाब भाटीकार हांची आपल्या प्रशासनांतल्या अणभवांचेर आदारिल्ली 'कर्मण्ये... काल, आज, फाल्यां' ही कादंबरी उजवाडाक आयल्या.

'कर्मण्ये...' हें एका उजू मार्गान चलपी अधिकाऱ्याचें कथन. ह्या कादंबरीचो नायक महेश प्रभू हो एक गोंयकार आय. ए. एस. अधिकारी. ताची सगळी कारकिर्द गोंयाभायर वता. व्हडलीं व्हडलीं सरकारी आस्थापनां ताणें कुशळतायेन हाताळिल्लीं आसतात. एक सरळ आनी उजू मार्गान चलपी प्रशासकीय अधिकारी म्हण ताची वळख आनी नामना आसता. आपल्या कारकिर्दीचीं निमणी चार-पांच वर्सां गोंयांत येवन सारचीं आनी भ्रश्टाचार आनी पक्षपात नासतना प्रशासन कशें चलोवं येता हें गोंयकारांक दाखोवंचें आनी आपल्या अणभवाचो फायदो गोंयकारांक दिवंचो अशें ताका सदांच दिसता. रिटायर जातगीर गोंयांत स्थायीक जावंचो आनी सामाजीक मळार काम करचें असोय ताचो हावेस आसता. मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाचो चॅरमॅन म्हण ताची बदली जाता आनी आपल्या घरकान्नीच्या मना आड तो ही संद व्हड खोशयेन घेता. प्रशासन ही कला आनी आपलो अणभव, परीपक्वता ह्या म्हालवजार आनी आपणांत आशिल्ल्या हुशारेच्या बळग्यार आपूण आपल्याच गोंयच्या भाव भयणांक प्रशासन निवळ पारदर्शक भ्रश्टाचार विरयत कशें दवरूं येता हाची देख दितलों हो ताका आत्मविश्वास आसता.

आपणाली मोख साध्य करतना महेश प्रभूक खूप आडमेळीं येतात. इतलीं वर्सां बेशिस्तपणांन काम करपी कांय कामगार, तांचे फाटल्यान उबें आशिल्लें युनियन, भ्रश्टाचार करपी ताचेच सकयले लोक, आड मार्गान वचपी कांय मिनेर जांचे हात दिल्ली मेरेन पाविल्ले आसतात आनी हांतूत भर म्हळ्यार ताच्या घरकान्नीची इश्टेट गिळपाक टपकून राविल्ले सोयरे. अशा साबार आघाड्यांचेर ताका झगडचें पडटा. हो संघर्श ताका मानसीक, भावनीक आनी शारीरीक पांवड्यार मातसो भितल्ल्यान हालोवन सोडटा.

टणटणमारीपणां, भ्रश्टाचार करपाक संवकल्ल्या लोकांक महेश प्रभूची नसाय जाता. ताका गोंयांभायर धांवडावपाक ते वेगवेगळ्यो येवजण्यो आंखतात. ताचेर भ्रश्टाचाराचीं बिनबुडाचीं बगलाटां घालतात. सरकार ताची सी. बि. आय. चौकशी करता. तांतूतल्यान कांयच निश्पन्न जायना. फकत महेशाक आनी ताच्या कुटुंबाक मानसीक आनी शारिरीक त्रास दगदग जातात. हें लुकसाण मोटें. पूण म्हत्वाकांक्षेक पेटिल्ल्यान अखेरेक बरें, नितळ आनी कायद्याच्या चौकटेंत रावन सक्षम प्रशासन कशें करूं येता हें ह्या कादंबरीचो नायक महेश दाखोवन दिता.

भौसा कडल्यान कसलीच अपेक्षा दवरनासतना बऱ्या प्रशासनावरवीं तांची सेवा करप म्हळ्यारुच भगवान श्री कृष्णान हजारांनी वर्सांपयलीं दिल्ल्या कर्मण्ये वाधिकारस्ते... ह्या उपदेशा प्रमाणे जीण जगप, सारप हें ह्या कादंबरीचें सार.

४५२ पानांच्या ह्या कादंबरीचें खाशेलेपण म्हळ्यार ती वाचकाक एकाच जाग्यार खिळोवन दवरता. वाचकाचें लक्ष ओडून घेता. कारण तीची सुटसुटीत भाशा शैली. एक फावट हातांत घेतगीर ती सकयल दवरन दिसना. कादंबरी वाचतना तांतूतल्या कांय पात्रांची तिडक मारता. बाप्तिस्त, सर्वानंद, रामकृष्ण, हायफर, कुरियन हांकां थंयच धोडावंचेशे दिसता. बरी साहित्यकृती वाचप्यांक तिच्या अणभवविश्वांत घेवन वता. वाचपी आपूण आपल्याक महेशाच्या जाग्यार पळयता, ताका सहानभुती दाखयता आनी जेन्ना तो जिखता तेन्ना वाचप्याचेंय हर्दे अभिमानान फुलून येता. यशाचो आनी जैताचो आनंद वाचप्याकय मेळटा. वाचपी कथानका कडेन समरस जाता.

ही कादंबरी वाचप्यांक तिच्या अणभवविश्वांत उदकांतल्या भोंवऱ्या भशेन ओडून घेता. महेशा आड सदांच कारस्थानां आनी फितुरी करपी बाप्तिस्त, जेन्ना फिग्दाच्या दुयेंसान मरणाचे धडेर आसता तेन्ना महेश आपलें मनीसपण सोडिनासतना आपल्याकडेन आशिल्ले सगळे अधिकार वापरून ताका बऱ्यांत बरो त्रातामेंत दिवन मरणाच्या दारांतल्यान परत हाडटा. मनीसपण आनी प्रशासन हाची कशी सांगड घालूंक येता तें महेश वाचकांक दाखयता. समाजांत दुश्ट आनी सुश्ट अशे दोनूय प्रवृत्तीचे लोक आसतात. तांकां कशे हाताळचे हें ही कादंबरी आमकां शिकयता.

ह्या कादंबरीचें मुखचित्र दिपकबाब च्यारी हांणी काडलां आनी तें कादंबरीक सोब सारकें आसा. कोंकणी साहित्याच्या मळार संजना पब्लीकेशनान एक घसघशीत अलंकार ओंपला म्हण तांका परबीं!.

**कर्मण्ये... काल, आज, फाल्यां**

बरोवपी: अरविंद भाटीकार

पानां ४५२

मोल: ४०० रुपया

उजवाडावपी: संजना प्रकाशन, सांगे-गोंय.

संपर्क : 9923306751

***

# ‘प्रस्नपिळगी’ हे कवितेच्या संदर्भात...

**दीपक प्रभुदेसाय**

## ‘प्रस्नपिळगी’

**काशिनाथ शांबा लोलयेंकार**

म्हजी आवय आनी म्हज्या भुरग्यांची आवय
म्हजो बापुय आनी म्हज्या भुरग्यांचो बापुय
सगर्लीच निमणी मरपाची आसात एक दिस
भुरग्यांसकट आपोल वयर वयतलें एक दिस

दिसरातदिसरातरातदिस हार्लीसराक
नाकावयर उदक पावता हार्लीसराक
खबर ना किर्ते जातलें एक दिस
उदकाचो अर्थ कळटलो एक दिस ?

वयर युंवपी फॅन केन्ना माथ्यार पडत सांगुक नजो
भुकेल्लो फ्रीज केन्ना यांस मारीत सांगुक नजो
आवय केन्ना सर्गार वचत सांगुक नजो
बापुय सर्गातल्यान केन्ना परतत सांगुक नजो

पिळग्यान पिळग्यो तेच प्रश्न प्रश्नपिळगी
जल्मबिल्मशिक्षणबिक्षणधंदोनोकरीभाकरीछोकरी
लग्नबिग्नभुरगीबिरगीमर्णबिर्णसर्ण एक दिस
किर्ते चल्लां हें एकदिसएकदिसएकदिस ?

हांव बंड करुन उठ्ठां पेटत्या सर्णाचेर
आनी म्हजो जाल्लो गोबोर आपल्या आंगाक फासता
म्हजी फुडली पिळगी रातदिस
काळोख उजवाडाचो संभोग रातदिस

मर्ण गुरवार जातलें एक दिस
जल्माचो पाळणो हालतलो एक दिस
खंयचो जल्म आनी खंयचें मर्ण
हेंच निमर्णे कळचें ना एक दिस

संपर्क : 9049814854

***

हे कवितेत ‘मर्ण’ हे जरी मध्यवर्ती आसा तरी तें वेगवेगळ्या परिमाणांतल्यान आनी स्वरुपांनीं जाणोवन दिवपाक कवी उच्च पातळेचेर येसस्वी जाला. मर्ण हे सगल्यांकूच अटळ आनी अपरिहार्य आनी तें सगळ्यांकूच खबर आसा. (ताची मूर्त जाणिव consciousness - मात एकाद्याकूच आसा.) तरी ‘सगर्लीच निमणी मरपार्ची आसात एक दीस’ - अशें म्हणून ती गजाल ‘स्ट्रेस’ करुन सांगता. कारण वयर उल्लेख केल्ली ही मूर्त जाणीव ताका आसाच पूण त्या मर्णाचे विंगड विंगड पैलू तो हे कवितेंत दाखयता. शिवाय स्वत:बाबत ही जाणीव व्यक्त करतना, ‘म्हजो बापूय आनी म्हज्या भुरग्यांचो बापूय’ - अशी शब्दांची वेगळीच रचना करुन कवीची भाशेविशीं जागरुकता आनी तातूंतल्यान निर्माण जावपी विंगड विंगड अर्थवलयां आनी आशयाची व्यापकता दिसून येता.

- शब्दांची, वाक्यांची वेगवेगळ्या तरेन केल्ली अशा थाटाची रचना ही कितलेशेच कडेन दिसून येता. उदा. ‘भुरग्यांसकट आपोल वयर वयतलें एक दीस’ हे ओळींत बेठे भुरग्यांसकट अशें म्हणीनासतनां आपोलचो उल्लेख दिसता. जाचेवेल्यान आमकां आपोल सकयल पडपाच्या न्युट्नाविशींच्यो दंतकथेचो उगडास जाता. आनी पर्यायान आपोल पडपाची कृती Reverse करुन, फकत जीव न्हय तर गुरुत्वाकर्षणाच्या सिद्धांतासकट पुराय सृष्टच लयाक वचपाची प्रकर्षान करुन दिल्ली जाणीव लक्षांत येता.

- नाकावयर एक पावप - हो जो वाक्यप्रचार आसा ताका ‘उदकाचो अर्थ कळटलो एक दीस?’ असो प्रश्नांकित संदर्भ जोडून जें म्हणपाचें आसा तें सुचित केलां, तशेंच फॅन सकयल पडप ही जी क्वचित घडपी अपघाती घडणूक आसा आनी फॅनाच्या सकयल न्हिदपी खूप जणांच्या मनांत त्या विशीचो भंय आसा ताचोय वापर कवीन योग्य जाग्यार केल्लो आसा. ‘किर्ते चल्लां हे एक दीस एक दीस एकदीस?’

हांगा ‘किर्ते चल्लां हें – हाच्या फुडे ‘इतले दिस’ हो प्रचलित वाक्य प्रयोग करीनासतना, तशेंच ‘एक दीस’ हे शब्द एकच फावट वापरपाच्या पारंपारीक पद्धतीक भायर मारुन ‘एक दीस एक दीस एक दीस...’ असो repeatedly वापरलेलो आसा. अशी साबारकडेन कवीन भाशेतल्या रुढ जाल्या concept ची मोडतोड करुन तातूंतल्यान आशयाक व्यापकता आनी dimensions दिल्ले दिसून येतात.

कवितेचो शेवट तर खूप सुंदर जाल्लो दिसून येता. निमण्या परिच्छेदांतली पयली वोळ ‘मर्ण गुरवार जातलें एक दीस’ ही ओळ म्हाका इतली जबरदस्त जाणवली की कोंकणीत तर नाच पूण मराठी कवितेंतूय इतल्या ताकतीची ओळ हांवें क्वचित पळयल्या. इतलेंच न्हय तर अशी वेळ सुचपाक भाग्य जाय अशें म्हणल्याशिवाय रांव नज जाता.

‘खंयचो जल्म आनी खंयचे मर्ण
हेंच निमणे कळचे ना एक दीस’

- अशें म्हण्टना जल्म आनी मर्ण ह्या संकल्पनांची अतीत अवस्ता, स्वरुप आनी वेगवेगळी उच्च वलयां जाणवतात (निमाणेकडेन, आनी तशेंच कवितेंत कितलेशेच कडेन वापरिल्लो ‘एक दीस’ ह्या शब्दप्रयोगाचो वापर अर्थपूर्ण आनी म्हत्वाचो ठरता) पूण अदीक महत्वाचे म्हणजे कवितेचो शेवट आनी अर्थातच वयर उल्लेखलेल्यो ओळी वाचतना सूक्ष्म स्वरुपांत पूनर्जल्माची आद्य संकल्पना मनाक स्पर्श करुन वता हो ही कविता सोंपताना create जाल्लो आनी एक महत्वाचो Asset.

संपर्क : 8605540750

***

# कविता

## देशाचो मंत्रु

एन. बालकृष्ण मल्ल्या

उदेवो नित्य सकाळीं सूर्यु मळबारि परजळ
प्रकट जावं तीनसांजेक चन्द्रु ध्यान धरचे वेळ
रातींतु तारे, क्षीराचें पथ, आसचे परेन काळ
भारत देशांतु मंगळ आसो सर्वांक सदाकाळ

तीनिय देगेन समिन्द्रु, रुप्याची रेंव, शांत व्हेळ
आवयभूंयचे पांयांत लळता भांगराची पाळ
कितलीं सुंदर ल्हारां, एकामेक मारतायि ताळ
भारत देशांतु मंगळ आसो सर्वांक सदाकाळ

बींयों अंकुरेवो, झाडांक फुल्लां, तांकां सासु दळ
भूंय तशी फुल्लेवो, सगळकडेन भर जावो परिमळ
देशा-यश व्हाडो, कर्मांक मेळता जावो गोड फळ
भारत देशांतु मंगळ आसो सर्वांक सदाकाळ

संस्कृतीचो रूकु अजर, दृष्ट्यानी सांगलें हाजें मूळ
पूण, स्वार्थतायेन मूळ कातरलें, केल्लो मू दुरबळ
हो रूकु प्रबळ जावूंक मंत्रु देशस्नेह, देश तां देवळ
भारत देशांतु मंगळ आसो सर्वांक सदाकाळ

संपर्क : 9497201681

***

## अळंग

माधव बोरकार

सपनांतल्यान जाग
तशी मनांत सकाळ
जाता तंद्री केली -
पानाची वस्त्रगाळ.

झणझणटा वारो
रगताच्या भारार
तर्शे येवप तुर्जे
अनवळखी पारार.

धोल धोल धोलतां
मळबा लार्गी झेल
दोनूय हातांनी तुज्या
अळंग म्हाका पेल...

२७.१२.२१

संपर्क: 9420222876

***



## शेणिल्लो गाव

उल्हास पै रायकार

म्हजो शेणलो गांव
जल्मतांच हांव
आतां वाद जाता
पूण अजून मेळना हांव.
यादी हय न्हयशो
धुंवतात धूपशो
पूण वासावरी येतात
आनी वतात, अदृश्यूच त्यो...
दृश्यांत अदृश्य सोदीत
असोच वता काळ
नाशिल्लोच तो -,
पूण संचितांत त्रिकाळ.
निगुणांत लेगीत
सोदली वाट गांवाची
कुडीन आडखळटा
नदर प्राणाची.
आतां तुज्या दोळ्यांतलो उजवाड
प्राणाचे किरवटेक लावन
प्राक्तनांतूच सोदतां हांव
म्हजो शेणिल्लो गांव...

संपर्क : 7507441344

***

## थिकां

मुकेश थळी

१
यडव तुका स्वताक
तांचे दोश पळोवंक
उरचोना वेळ!

२
प्रेम
एकूच ताकद
एकूच वखद;
वांटीत राव
सोंपचेंना, वाडटलें!

३
काळखांत लेगीत मेळटा खोशी
दिवो पेटोवपाक मात विसरशी!

४
साकर दवरल्यार
मुयो येताच.
म्हज्यांत गोडवो आसल्यार
तुमी येतलेच.

५
वतना व्हरपाचें तें जोड
हांगा दवरपाचें तें सोड

६
प्रेम कर
काळजां उत्कीं जावं
बौध्दीक विचार दी
मेंदू विकसीत जावं

७
म्हजे भितर आसा
मनीस आनी सैतान
कोणाक दिवची खावड
हांवेंच करपाची निवड

८
बेनुल्ल आपशींच मातता
फुलझाडांक मशागत लागता;
विकार बळावपाक नाका कश्ट
गूण फुलूंक लागता खूब खटपट



संपर्क : 9545827662

***

## जाग आयल्यार

### आर. रामनाथ

पानगळांत
उबो हांव
पुराय नागडो
आनी थंयच खंयतरी
तूं उबें
नखशिखान्त चंवरलेलें ...
हें चित्र
तुवेंच चितारलेलें
म्हज्या कॅनव्हाचेर
खूब पयलीं ...
हांवें तें अजून मेरेन सांबाळून दवरलां
म्हज्या काळखाकुडींत ...
खरेंच सांगतां
जाग आयल्यार
अजुनूय जगन दिसता ...

संपर्क : 9850458763

***

## कारूण्य

### परेश नरेंद्र कामत

जंय जंय
आसता कारूण्य
थंय थंय
आसता उदक
त्या उदकांत पळेतां हांव
म्हजी जीण

उदकांत दिसता म्हाका
दोळे
गायेचे
काळे
आकूळ पिकूळ जाल्लें मळब
त्या उदकांत रावता पातळत...

जिणेचेंच उदक जाता
गायेच्या दोळ्यांत
गोठ्यांतलें पाडूक
हांबेतना

संपर्क : 9422640210

***

(स. शंकर रामाणी हांच्यो अप्रकाशित कविता)

## सुखां

### शंकर रामाणी

सगळीं सुखां
वज्र थिकां
हातांत घालून हात
सुर्या मुखार
फुलता फुडार
पर्मळाची वाट.

१२.५.१९८८

***

## माई

### शंकर रामाणी

दीस एका वर्साचीं
सपणां चडून गेले
जाल्यारूय तुज्या
उगडासाच्या पवित्र गावांत
हांव सदांच रावतलों
जंय हो संवसार सोडून गेल्ली
तुजी कूड
अदृष्ट अश्या उजवाडाच्या रुपान
तुज्या माये मोगाच्या आशिर्वादाचो
करता शिंवर आमचेर
आसता घालत
सदांकाळ...

***

## कुपां !

### सखाराम शेणवी बोरकार

काल रातीं
पुनवेच्या चंद्राचेर
कुपांनीं घाल्लें सांवट
अचकित म्हज्या
नदरेक आयलें.
खिणभर सगळ्याक
काळोख फ़ांफ़सलो.
म्हज्या जिणेचेर
अशेंच सांवट घालून तूं
म्हज्या जिणेंतल्यान
पैस जाल्लें ताची परथून
म्हाका याद आयली.
कांय खिणाभितर
चंद्रिमावेलें तें कुपाचें
सांवट पैस जालें
आनी पुनवेचो चंद्र
आदले भशेन लखलखूंक लागलो
सगळ्या आसमंतांत परथून
उजवाड फ़ांकलो.
पूण,
तूं म्हज्या जिणेंतल्यान
गेल्लें तें मात
परतें केन्नाच आयलें नां
म्हजे जिणेंतलीं तीं
काळखी कुपांय
केन्नाच पैस जालीं नांत
आनी,
तूं मात लखलखत रावलें
दुसऱ्याच्या आंगणांत !

संपर्क : 9923306751





